# ऑल
Love
# फॉर
War
# यू
& Revenge

महेश चंद्रकांत नाईक




**उजवडापवी:**
कला अंकूर, पणजी
द्वारा विजय रेमजे
१०९ –डी,
हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी
पर्वरी – गोंय

**पयली आवृत्ती:**
एप्रिल २००२

**अक्षरजुळवण आनी मुखपृष्ठ:**
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स
पणजी -- गोंय.



**छापणावळ:**
प्रींट ॲण्ड ग्राफीक्स
पणजी – गोंय

**मोल :** ५० रुपया





**लेखकाचो पत्तो :**
महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३,
गणेश मंदिरा मुखार
सांतीनेज – पणजी
गोंय

## अर्पण पत्रिका

जाणे म्हाकां जगपाचें
बळ दिलें...
जांचेखातीर हांव दोन
उतरा बरोवपाक पावलों
ते म्हजे बाबा
कै. चंद्रकांत कृष्णा नाईक
हांका ही कलाकृती अर्पण करतां...

# पालोव

१) टॉनी रॉड्रीगीस, नगरसेवक , पणजी -- गोंय

२) बाबनी शेख, समाजसेवक, ताळगांव - गोंय

३) सुनील सांतीनेसकर, अध्यक्ष, युवा कॉंग्रेस सांताक्रुज - गोंय

४) कमलाकांत फातर्पेकर, पंच, मेरशी - गोंय.

५) प्रकाश मोरजकर, बस्तोडा - गोंय.

६) हेमंत गोलतकर, समाजसेवक, मेरशी- गोंय

७) फ्रांसीस ब्रागांझा, अंजुना - गोंय.

८) शिरीष उस्कैकर, मेरशी - गोंय

९) मीलन वांयगणकर, पणजी- गोंय

१०) विवेक नार्वेकर, मेरशी - गोंय

# दोन उतरा...

'ऑल फॉर यू' हें नाटक हावें म्हज्या इश्कोलातल्या तशेंच कॉलेजींतल्या इश्टांक दोळ्यांमुखार दवरून बरयलां अशें म्हणपाक हरकत ना कारण इश्कोलाचे आनी कॉलेज जिणेचेर नाटक बरोवप हें म्हजे अेक सपन आशिल्लें

प्राध्यापक, शिक्षक ही पात्रां म्हजे कल्पनेतल्यान आयिल्ली पूण अनिकेत, प्रेम, रिया, संकल्प, आश्विन, बाळू ही पात्रां मात म्हज्या कॉलेज जिणेक स्पर्श करुन गेल्यांत. अनिकेताची रियावेलो मोग तशेंच रियाचे प्रेमावेलो मोग आजूय प्रत्येक कॉलेजित जल्म घेता आसतलोच. अनिकेत, संकल्प, आश्विन आनी बाळू अशे चार जिवाभावाचे इश्ट प्रत्येक कॉलेजीच्या कॅम्पसांत तयार जातात. मस्तेपणां, फकाणां करपी भुरग्यांक पुराय कॉलेज वादीव म्हणटा, पूण वादीवपणा करपी त्या भुरग्यांचें मन तितलेंच सुंदर आसूं येता हें ह्या चारुय पात्रांवेल्यान निमाणेकडेत दिसून येता. प्रोफेसराची फकाणां, चलयांची फकाणां, रॅगींग हें कॉलेजित आयजूय घडटात. तशेंच लेक्चर बंक मारप, सिगरेट ओडप, मारामारी जावप ही लेगीत कॉलेजितली एक फॅशनूच जाल्ली आसा. हाचेर विचार जावपाची गरज आसा.

'ऑल फॉर यू' ह्या नाटकातली प्रत्येक घटना केन्ना तरी खंयच्यातरी कॉलेजीत घडल्याच आसतली हातूंन मातलेगीत दुबाव ना. या नाटकाचे प्रयोग कला अकादमी तशेंच गावागावांनी जाल्ले आसात आनी प्रयोग जाल्ल्या प्रत्येक गावांतल्या मनशाक आपले कॉलेज जिणेंतल्या ह्या प्रसंगाची याद काळजांतसावन ताजी जाल्याच आसतली. प्रत्येक जाग्यार कॉलेजीचे वातावरण निर्माण करपाक कला अंकुराच्या कलाकारानी यश प्राप्त केल्लें आसा आनी तांच्या ह्या यशातूच म्हज्या नाटकाचे यश लिपला हे सांगपाक म्हाकां खोस भोगता.

**महेश चंद्रकांत नाईक**

# 'कला अंकुराची समिती

मुखेल : सदाशिव धुरी

उपमुखेल : प्रदीप नाईक

सचिव : सुनिल मनोहर सांतिनेजकर

उपसचिव : मोतीराम दळवी

भांडारी : महेश चंद्रकांत नाईक

उपभांडारी : राजकुमार साळगांवकर

वांगाडी : सचिन सुतार, प्रमोद स. धुरी, शेखर उजगांवकर, तुकाराम परवार, प्रकाश मोरजकर, कु. योगना नाईक




## पात्र परिचय

# 'ऑल फॉर यू'

या नाटकाचो पयलो प्रयोग सांतीनेज – पणजी हांगा श्री रामपुरुष मंदिरांत ५ मे. २००१ ह्या दिसा जालो. ह्या प्रयोगांत वाटो घेवपी कलाकरांची नामावळ.

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| **लेखक/दिग्दर्शक** | – | महेश चंद्रकांत नाईक | | | |
| **निर्मिती मुखेल** | – | प्रकाश साळकर | | | |
| **सुत्रधार** | – | विजय रेमजे, सदाशिव धुरी | | | |
| **संगीत** | – | राजकुमार साळगांवकर | **पालोव** | – | प्रकाश मोरजकर |
| **उजवाडा येवजण** | – | विकास चोपडेकर | **पालोव** | – | मोतीराम दळवी |
| **रंगमाची येवजण** | – | सुनील सांतीनेसकर | **पालोव** | – | प्रदीप नाईक |
| **भेसवण** | – | श्रीधर शेणई | **पालोव** | – | प्रदीप रायकर |
| **रंगवण** | – | सुरेश शिरोडकर | **पालोव** | – | साईश पुजारी |

## कलाकार

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| **प्रो. नाडकर्णी** | – | शशिकांत परब | **अनिकेत** | – | प्रेम हळदणकर |
| **सर** | – | ज्ञानेश्वर मंगेशकर | **संकल्प** | – | महेश नाईक |
| **उदय** | – | दिगंबर मंगेशकर | **आश्विन** | – | सातू झो |
| **इन्स्पेक्टर** | – | सुशांत गोवेकर | **बाळू** | – | शेखर उसगांवकर |
| **प्रेम** | – | विजय कांबळी | **रिया** | – | कु. योगना नाईक |

**कोरस** – सचिन सुतार, प्रमोद धुरी, गजानन मुतकेकर, सत्यवान पार्सेकर, योगेश धुरी, धोंडुराज परब, तुकाराम परवार, सचिन बोरकर, संदीप राणे, मुकुंद गांवस, कु. प्रिती मडकईकर, कु. निशा मेस्त्री, कु. सपना तांबे.

## देखावो पयलो

(पडडो उगडटा. सातवेचो वर्ग. प्रेक्षकांच्या उजवे वटेन फळो. रांकेन पांच – स बाक वण्टीक जनेलां, दाव्यान भितर सरपाक दार फळ्याक तेकून प्लॅटफॉर्म. ताचेर एक मेज, खुर्ची, शाळेची घंटा वाजता तीन इश्ट आश्विन, अनिकेत आनी संकल्प खांदाक बॅग लावन शाळेच्या भेसान येता. अनिकेताचे कलसाव देंवता जाल्यार आश्विनाचे नाक व्हांवता. सगल्याक भुरग्यांचो बोवाळ. )

**संकल्प** – अे अनिकेत सुटी कशी काबार जाली कळंकूच ना न्ही ?

**अनिकेत** – हय, रोखडीच काबार जाली.

**आश्विन** – कितल्या दिसानी आमी मेळटा, हांवे खूब मजा केली

**संकल्प** – हांवेय खूब मजा केली.

**अनिकेत** – हांव म्हज्या मामाचे चलयेवांगडा खूब खेळ्ळो

**संकल्प** – तूज्या मामाक चलो ना रे?

**अनिकेत** – आसा.

**संकल्प** – मागीर ताचेवांगडा मजा करुंक ना?

**अनिकेत** – केल्या पूण तितली ना. मामाचे चलयेवांगडा हांवे खूब मजा केली.

**संकल्प** – कशी?

**अनिकेत** – हांव ताका सदांच धरतालों

**सगळे** – किदें?

**अनिकेत** – हय आमी सदांच धरच्याल्यानी खेळटालीं.

**आश्विन** – खेळटाली?

**अनिकेत** – केन्ना, केन्ना तेय म्हाका धरी (चौथो इश्ट बाळू येता. दोळयाक मोठया हारश्याचे वक्ल आनी गंदाची तीकली, हातान बॅट).

**बाळू** – (दाराचेर) बले मले तुमी शगले.

**अनिकेत** – आरे बाळू आयलो.

**बाळू** – (फुड्यान योवन) बले मले तुमी.

**अनिकेत** – हय आमी शगले बले. तूं बलो मले (सगळे हांसतात)

**संकल्प** – चाळोव नाका रे ताका. बाळू तुजे तकलेक तांबडें किदें लागलां ?

बाळू – देवाची तीकली ती. म्हजी आई शदांच शांगताली इश्कोलाक वयच्या पयली देवलान वचून देवाक पाया पलूंक जाय म्हुनून.

अनिकेत – आनी दप्तराचेर येदो व्हडलो नंबर कसलो घाला.

आश्विन – मडक्याचो रे ?

बाळू – चूप, किर्लेय उलोव नाका. म्हजी आई शदाच शांगताली वायत शवय लावन घेव नाकां म्हुनून.

अनिकेत – मागीर हो नंबर.

बाळू – म्हजो लोल नंबल तो.

संकल्प – आमका दिसले ओपन आनी क्लोज म्हणून.

बाळू – घंता वाजली ले ?

अनिकेत – घंटा आपुणूच वाजना, ती मारची पडटा. घंटा मारली काय विचार ?

बाळू – घंता माल्ली ले ?

अनिकेत – हय मारली.

बाळू – चला आमी बशोया.

सगळे – चला, चला बसोया. (बसपाक फुडे सरता)

अनिकेत – अे, हांव मात पयल्या बाकार बसचो ना आं.

संकल्प – किद्याक ?

अनिकेत – मागीर सर म्हाकांच प्रस्न विचरतलो.

संकल्प – किर्दे भियेता रे तूं . एक काम कर तूं निमण्या बाकार बस.

अनिकेत – आनी पयल्या बाकार कोण बसतोलो?

संकल्प – जो निमणो येतलो तो.

अनिकेत – हय, हय निमणो येता तांकाच बसूंदी (अनिकेत धावत निमण्या बाकार बसता. तांच्या फुडें बाळू, आश्विन, संकल्प अशे लायनीन बसतात. रिया येता स्कुलाचो वेश, खांदार बॅग आनी फुडे दोन विणयो.)

रिया – (दारांत रावून) मे आय कम इन? (अनिकेत उबो रावन पळेयत रावता)

संकल्प – कोण उलयलो?

बाळू – (फुड्यान वयता) ये ऽऽ चेलूं ते, चेलूं

आश्विन – म्हाका एक सांग रे ते मे आय कम इन म्हणून आमकां किद्याक

विचारता?

**संकल्प** – तांका हे इश्कोल म्हणजे आमच्या बापायचे घर दिसलें?

**अनिकेत** – ओगी रावात रे.

**रिया** – मे आय कम इन ?

**अनिकेत** – (अनिकेत रियाचो हात धरुन फुडे हाडटा) यो.. गो.. यो... तूं

**रिया** – हो सातवेचो वर्ग.

**अनिकेत** – हय, हय हो सातवेचोच वर्ग.

**रिया** – म्हणजे हो वर्ग म्हजो.

**अनिकेत** – हय तुजो, म्हजो सगल्यांचो.

**रिया** – (सगळयाक पळयत) तुमी सगले ह्याच वर्गान?

**संकल्प** – तूका आमी टायमपासाक बसल्या शे दिसता?

**अनिकेत** – वोगी राव रे मर्दी–मर्दी उलोव नाका. हय.. गो आमी सगले ह्याच वर्गांन (हाताक धरुन) तूं. यो.. यो... बस ह्या पयल्या बाकार बस.

**रिया** – पयल्या बाकार किद्याक ?

**अनिकेत** – पयल्या बाकार बरे मगो. सामके सराच्या मुखार मागीर सर किदें सांगता तें तुकांच सांगतलो.

**संकल्प** – आणि किदें विचारता तें तुकांच विचारतलो.

**रिया** – (भिवून) किदे ?

**अनिकेत** – ना... गो यो. बेष्टोच तो.

**आश्विन** – तशे जाल्यार तूं किद्याक बसना तर?

**रिया** – हय तूं किद्याक बसना ?

**अनिकेत** – म्हाका सराची ॲलर्जी आसा. तूं बस कांयच जावचें ना. म्हजेर विस्वास दवर (रियाक पयल्या बाकार बसयता आनी जाग्यार वता संकल्प उठून अनिकेताकडे वता . अनिकेत रियाक धरील्ल्या हाताचेर नदर मारता)

**संकल्प** – तुवेन निमाणोमेरेन ताचो हात किद्याक सोडूंक ना?

**अनिकेत** – सोडचो सो दिसलो ना.

**संकल्प** – बरो फुल्ला मरे ताका तूं .

**अनिकेत** – म्हाका आवडलें तें.

**आश्विन** – (फुड्यान येवन) तुकां सगलींत चेडवां आवडटात.

**अनिकेत** – सगलीं चेडवां म्हज्या दोळयान भरतालीं, हे म्हज्या मनान भरलां.

**संकल्प** – पयलेच नदरेन ?

**आश्विन** – आता फुडें किदें ?

**अनिकेत** – (दोळो मारीत) हांव लायन मारतलो ताचेर.

**बाळू** – नाका ले अनिकेत तछल्या भानगदींत पलो नाका.

**अनिकेत** – हातूंत भानगड कसली?

**बाळू** – लायन मालप भानगदूच न्हू ?म्हजी आई शदाच शांगताली चेलवांक केन्नाच वायट नदलेन पलोवपाक जायना म्हुनून.

**अनिकेत** – हांव खंय वायट नदरेन पळयतां? हांव बरेच नदरेन पळयतां.

**संकल्प** – अरे ताचे नावलेगीत खबर ना तुकां.

**अनिकेत** – विचारु?

**आश्विन** – मार खावपाचो आसा तुकां?

**बाळू** – म्हजी आई शदांच शांगताली...

**अनिकेत** – चूप! हांव वतां नाव विचारपाक (अनिकेत रियाच्या फाटल्यान रावता पूण शब्द फुटना. रियाची नदर फाटल्यान पडटा. अनिकेत प्लॅटफॉर्मार चढटा आणि डस्टर हातान घेता फळो पुसता मागीर भितभित रियाच्या फुड्यान रावता) अे... (रिया मान वयर करता) तू.. तू... तूजे नाव किदे गो?

**रिया** – तुका किदयाक म्हजें नाव?

**अनिकेत** – म्हाका व्हदळच्यान तूं वळखिचेंशें दिसता.

**रिया** – हय ?

**अनिकेत** – हय म्हुणूनूच तर नाव विचारतां, सांग मगो तुजे नाव.

**रिया** – म्हजे नाव रिया नार्वेकार.

**अनिकेत** – किदे करुं ?

**रिया** – (तापोन) रिया नार्वेकार

**अनिकेत** – बरें सुंदर नाव मगो तुजें.

**रिया** – मागीर ,म्हज्या डॅडीन दवरलां तें.

**अनिकेत** – हय तशें जाल्यार तूजो डॅडी तितलोच सुंदर आसतलो (अनिकेत जागो

बदलीत) रिया... (रिया मोठे दोळे करुन पळयता) रिया... तूं... तूं... म्हजें नाव विचारिना?

**रिया** – ना.

**अनिकेत** – किद्याक ?

**रिया** – कारण, तूं म्हाकां वळखीचो सो दिसना (सगळे हांसता. अनिकेत तांकां खुणेन वोगी करता)

**अनिकेत** – तुवें विचारलेंना तरी हांव तुकां म्हजें नांव सांगतलोंच.

**रिया** – तुजी मर्जी.

**अनिकेत** – म्हजें नाव मगो अनिकेत कोरगांवकार.

**रिया** – किदे करु ?(सगळे हांसतात)

**अनिकेत** – अनिकेत कोरगांवकार. रिया तू खंयसून आयलां गो.

**रिया** – तुकां किद्याक?

**अनिकेत** – पळोवपाक. तुजो आनी म्हजो रस्तो एकूच जाल्यार. सांग गो खंयचें तूं ?

**रिया** – गोंयचें.

**संकल्प** – आनी आमी किदें घाटी?

**रिया** – (तापोन) गोंयचें... म्हळ्यार ओल्ड गोवाचें.

**अनिकेत** – वोगी राव रे. रिया तो तसोच हां... मर्दी –मर्दी उलयतलो.

**बाळू** – अे, शल येता. शगले आपापल्या जाग्याल बशात (सगळे जाग्यार बसतात. सर येता. सगळे उबे रावतात)

**सगळे** – गुड मॉर्निंग सर!

**सर** – गुड मॉर्निग,बसात (सगळे बसतात) खूब दिसानी मेळटा न्ही आमी.

**सगळे** – हय सर.

**सर** – कशी जाली सुटी?

**सगळे** – बरी जाली.

**सर** – नापस कोण जाला?

**सगळे** – कोण ना सर.

**सर** – शाबास, ह्या वर्सा मस्ती कमी जाल्या काय ना?

सगळे – हय सर.

सर – शाबास! ह्या वर्सा वर्गात गाढव कोणूच ना तर. आसा ?

सगळे – (एकामेकाकडे पळयत) ना सर.

सर – खरेच ना. (एकामेकाक पळयता) वर्गान कोण गाढव आसा जाल्यार ताणे उबो रावचो. (कोणूच उठना)कोणूच उबो रावूंक ना म्हणजे वर्गात गाढव कोणूच ना.

बाळू – आशा शल.

सर – आसा?

बाळू – हय शल.

सर – गाढव कोणूय आसलो जाल्यार उबो रावचो नासलो? वर्गान कोणूच गाढव ना.

बाळू – शल तुमी उबे आशात न्ही.

सर – किदे? म्हणजे हांव गाढव अशें म्हणपाचें आसा तुकां? (सर सकयल देंवन बाळूक मारता. सगळे हासता.)

बाळू – ना... ना... पून शल तुमी... तुमीत...

सर – चूप! आनीक फुडे उलोवचो ना (रियाच्या फुड्यान रावता) रिया मगो तू?

रिया – हय.

सर – तू हांच्या वांगडा लागो नाकां हां. हे अशेच मस्ते.

अनिकेत – (उठोन) सर तेका सांगात हांव एकलोच बरो म्हणून.

सर – तू वोगी राव थंय आनी म्हाकां एक सांग रें, फुडें इतलो जागो आसतना तूं निमण्या बाकार किद्याक बसला?

अनिकेत – हांव... हांव... तो... आं... सर हांगा वारें बरें येता.

सर – किदे? म्हणजे तूं वारें खावपाक येता शाळेंत ? (मारुंक देंवता)

अनिकेत – ना... ना... म्हणजे म्हाकां तुमी पयशिल्ल्यान बरे दिसता.

सर – (केसार हात भोंवडायत) किदें हांव पयशिल्ल्यान बरो दिसता? बस, बस तर थंयच बस. सदांच बस. आं.

अनिकेत – बरें सर. (बसता)

सर – तर भुरग्यानो ह्या वर्सा तुमच्या वर्गांत एक चली आयलां पळयलां न्ही तुमी?

सगळे – हय सर.

सर – तर हांव तुमकां ताची वळख करुन दितां.

अनिकेत – आमी वळख करुन घेतली सर.

सर – हांव जाणाच आसलो ह्या कामान तूमी सामके हुशार. तर भुरग्यानो हे तुमचे शाळेचें सातवचे वर्स, मागीर कॉलेजींत आणि निमाणे तुमच्या मुखार आसतलो सोबीत फुडार, आता सांग म्हाका बाळू तूं फुडें कोण जातलो?

बाळू – हांव न्हू शल व... व.... वकील जातलो.

सर – पयली सारको उलोवपाक शिक आनी मागीर वकील जा. तू रे संकल्प?

संकल्प – हांव सर तुमचे भशेन फळ्याचेर बरोवन भुरग्यांक शिकयतलों.

सर – पयली तुजें अक्षर सुदराय आनी तूं रे आश्विन?

आश्विन – सर हांव न्हू (कलसाव वयर काडटा) हांव बिल्डिंग बांदतलो.

सर – पयली कलसांव सारकें बांद आनी तूं रे अनिकेत?

अनिकेत – सर हांव फाल्या किदें करतलों तेंच नकळो तुमी विचारता हांव फुडें किदें जातलों काय म्हणून?

सर – पूण तुवें किद्दें तरी चितलां आसतंलें.

अनिकेत – ना.

सर – आत्ताच्या आत्तां चित आनी सांग म्हांका.

अनिकेत – बरे.

सर – रिया, तूं सांग तू कोण जातलें तें?

रिया – (उबे रावता) हांव... न्ही... हांव... (लजोन केसार हात भोवणयता) हांव दोन भुरग्यांची आवय जातलें.

अनिकेत – सर, हांवे चितले. हांव त्या दोन भुरग्यांचो बापुय जातलो.

सर – चूप. लज दिसना तुकां? सुबेस खंयचो. आनी तुमकां सगळ्यांक सांगतां कोणूय तरी जातलो जाल्यार बरो शीकचो पडटा. शिक्षण महत्वाचे. जो शिकना तो कोणूच जायना.

**बाळू** – जाता शल. मनीश सीकोना तली किदे तली जावंक शकता.

**सर** – जावंक शकता?

**बाळू** – हय सल. म्हजो बाबा कायच शिकोंक ना तली जालोच ...

**सर** – किदे?

**बाळू** – कम्पाऊंडल....

**सर** – कसले पिशे आसा रे आमचे इश्कोलांत. हें पळयात हांव सुरवातीकूच सांगतां म्हाकां फालतू गोश्टी आवडच्यो नात. ह्या वर्सा हांव खूप कडक आसा. म्हाकां कारणाबगर वेळ व्हगडायलो आवडचोना. आनी तुमकां सांगतां. जेन्ना हांव जाग्यावयल्यान कोणाक तरी पळोवन मान हालयतलों तेन्ना ताणें समजूपाचे हांव आपयता म्हणून.

**संकल्प** – सर म्हाकाय ओनू वेळ व्हगडावपाक आवडचोना. जेन्ना हांव हात हालयतलो तेन्ना तूमी समजपाचे हांव येयना म्हणून (सगळे हांसतात)

**सर** – चूप (सगळे ओगी) चड सूबेस उलयता तूं (संकल्पाक मारता) चला आमी आता अभ्यास सुरु करया. आता सगल्यांत पयलीं हांव तुमकां एक प्रस्नं विचारतां. (संकल्प बाका पोंदा लिपता. सगळे सकयल मान घालता.)

**सर** – संकल्प, तूं लिपता किद्याक?

**संकल्प** – लिपना, सर.

**सर** – मागीर बाका पोंदा किदें करता तर?

**संकल्प** – हांव ते... म्हजें पेन पडलां....

**सर** – हांव जाणां तूं किद्याक लिपता तो . आता तूंच सांग आमची राजधानी खंय आसा?

**संकल्प** – राजधानी? आं! राजधानी पणजे चर्चीकडे आसा.

**सर** – किदे?

**संकल्प** – हय चर्चीकडे आसा.

**सर** – पीशा चर्चीकडे राजधानी हॉटेल आसा. भारताची राजधानी खंय आसा ती सांग.

**संकल्प** – खबर ना.

सर – तूं सांग बाळू.

बाळू – सल, माका आईन शांगलेले पून हाव विसललों.

सर – तू सांग आश्विन.

आश्विन – भारताची राजधानी अमेरीकेक आसा. (गुरुजी तकलेर हात मारता.)

सर – तू सांग रिया.

रिया – भारताची राजधानी दिल्ली.

सर – बरोबर.

अनिकेत – Very Good, Very Good (अनिकेत रियाक हात दिता.) मानलें तुकां.

सर – तू किद्याक उठलो जाग्यावेलो.

अनिकेत – हात दिवपाक.

सर – लग्नाक आयला? चल जाग्यार. (अनिकेत जाग्यार बसता.) लज दिसूक जाय तुमकां भारताची राजधानी खबर ना?

अनिकेत – दिल्ली.

सर – चूप! आता सांगता.

अनिकेत – सर म्हाकां खबर आसलें पूण तुमी म्हाका विचारुंकूच ना.

सर – तुजें हात धयर करचो न्ही?

अनिकेत – करुंक सोदलें पूण तेन्ना म्हजे कलसांव देवतालें.

सर – आनी रियाक हात दितना तुजे कलसाव देंव नाशिल्लें?

अनिकेत – तेन्ना हांवें Control केल्लें.

सर – तुजें कलसांव सदांच कशें देंवता?

अनिकेत – एक एकदा म्हजें कलसाव बाबा घालता म्हणून ते देंवता (सगळे हासता)

सर – चूप ! तुमची कलसांवां कशी देंवता हें खबर आसा तुमकां?

सगळे – कशी?

सर – तुमी खेळटना कलसावाकडे लक्ष दिनात.

अनिकेत – सर कलसांवांकडे लक्ष दिल्यार आम्ही खेळटले कशे? (सगळे हासता)

सर – तू खुबूच सुबेज उलयता (फुडे येता)

अनिकेत – ना... ना... हांवे प्रश्न केला.

**सर** – चूप ! चल बाकार उबो राव.

**अनिकेत** – पूण... सर...

**सर** – एक जाप काडचो ना. बाकार उबो राव आनी दोनूय हात वयर कर.

**अनिकेत** – सर हांव बाकार उबो रावतां. पूण दोनी हात वयर करीना.

**सर** – किद्याक ?

**अनिकेत** – दोनी हात वयर केल्यार म्हजें कलसांव देंवतलें (सगळे हासता.)

**सर** – चूप! खंयचे शाळेंत हांव नोकरी करता? म्हजी बदलीय जायना. ह्या गाडवानी तकली खाल्ली. आता तुमचें कलसाव दवरात कुशीक....

**सगळे** – किदे?

**सर** – आरे गाडवानो आता हो विषय बंद करात. आता आमी आमचो अभ्यास फुडे व्हरुया. अनिकेत, तर आता तू सांग मागीर विचारुंक ना म्हणू नाका. आमचो शिक्षणमंत्री कोण?

**अनिकेत** – (फुडे) कोण रे ?

**सर** – तेका किद्याक विचारता. तुकां खबर ना ?

**अनिकेत** – मता जाल्ली तेन्ना कोण जाल्लो तो जाणा पूण आता सगळे फुटल्या आसतले.

**सर** – आरे पूण आता कोण आसा तो सांग मरे?

**अनिकेत** – सांगून फायदो किदे सर? दोन दिसानी दुसरो आसतलो.

**सर** – आरे पूण जें घडटा तो इतिहास आणि तो तूमकां खबर आसूंक जाय.

**अनिकेत** – पूण तो बरोवपाक हे मंत्री चान्सूच दिनात.

**सर** – तू चड सुबेस उलयता. चल घरा आणि तुज्या बाबाक घेवन यो.

**अनिकेत** – हांव हाडिना सर.

**सर** – किदे ? म्हजें आयकना तूं ?

**अनिकेत** – हांव हाडुंक शकना सर.

**सर** – हांडुंक शकना किद्याक?

**अनिकेत** – हांव जाणा तो आपयल्यार योवचोना.

**सर** – किद्याक?

**अनिकेत** – कसो येतलो आयज तेजें कलसाव हांवें घातलां. (सगळे हांसता)

सर – चूप, हांव ह्या भुरग्यावांगडा लागल्यार पिसो जातलों. हें पळयात आता हांव तुमकां कायच विचारीना. आंता उपकार करुन एकूच काम करात सगळे ABCD काइात.काडून जाली म्हणटकूच सांगात म्हाका. हांव मात्सो बसतां. (सर खुर्चेर बसता आणि दोळे बंद करुन न्हिदता आनी घोरेता. संकल्प परत परत रियाच्या बुकान पळयता.)

अनिकेत – (फुडल्यान बाळूक ओडीत) ये ऽ दाखय रे.

बाळू – लाव ले.

अनिकेत – एकूच दाखय रे.

बाळू – लावले. (संकल्प गुरुजी म्हन्धान वयता, अनिकेत परत बाळूक ओडटा.) लाव ले.

संकल्प – ओगी राव रे, हांव डिफिकल्टी विचारतां. (फुड्यान वचून) सर, सर

सर – (उठता) किदे .... कोण...

संकल्प – हांव.

सर – आ... किदे जाला?

संकल्प – सर ABCD व्हडली काडू काय धाकटी.

सर – तुकां खंयची कळटा?

संकल्प – म्हाका... (चितता) म्हाकां.. सर दोनूय कळना.

सर – तशे जाल्यार अ आ ई इ काड.

संकल्प – बरें सर (जाग्यार वयता)

सर – कसले भुरगे हे. (परत निदता)

आश्विन – (फुड्यान वयता) सर, सर

सर – (उठता) किदें जालां?

आश्विन – सर ABCD इंग्लीशीन काडू काय मराठीन ?

सर – (तिडकीन) कन्नडान काड.

बाळू – कन्नडीन? सल, कन्नडिन ABCD आशता. (सर रागन पळयता.बाळू भिवून) आशता ले आशता...

आश्विन – बरें सर (जाग्यार बसता)

सर – किदें म्हुणटलो ह्या भुरग्यांक (परत घोरेता. अनिकेत कागदार किदे

बरयता आणि फुडें बाळूकडे दिता, बाळू आश्विनाकडे आणि आश्विन संकल्पाकडे . संकल्प कागद उघडटा आणि वाचता.)

**संकल्प** – रिया (रिया फाटल्यान पळयता) I Love You.

**रिया** – सर, सर...

**सर** – (उठता) आं... किदें.. किदें जालें.

**रिया** – सर हांणे म्हाका I Love You म्हटलें.

**सर** – किदें? I Love You ?

**रिया** – हय.

**सर** – कोण तो ? कोणे म्हळे.

**रिया** – (संकल्पाकडे बोट दाखयत) हाणे.

**सर** – (कानाक धरता) हय रे तुवे. I Love You म्हळे.

**संकल्प** – ना.. ना... हांवे न्हू

**सर** – बाकार उबो राव. (संकल्प बाकार उबो लावता) ABCD बरोंक कळना आनी I Love You बरें कळटा? न्हिदपाकलेगीत दिनात. तूं असोच बाकार उबो रावतलो आनी बाकी सगले ABCD बरयात, हांव येता रोकडो (वयता अनिकेत संकल्पाक सकल ओडटा आनी मारता.)

**बाळू** – ये ऽ झगली किद्याक कलता ले. झगली किद्याक कलता.

**आश्विन** – आरे तेका किद्याक मारता? खरे म्हळ्यार ताणें तुकां मारपाचो. जें तुवें बरयलें तेंच ताणें वाचलें.

**अनिकेत** – हांव ताका वाचले म्हण मारीना.

**आश्विन** – मागीर?

**अनिकेत** – अर्धवट वाचले म्हणून मारता. I Love You च्या सकयल हांवे From अनिकेत बरयल्लें तें ताणें किद्याक वाचूंक ना. म्हजें काम सोपें जातलें आसलें.

**संकल्प** – म्हणजे तूं रियाचेर खरोच मरता.

**अनिकेत** – (लजत) हय.

**संकल्प** – मागीर तोणान किद्याक सांगीना?

**अनिकेत** – तोणार पडत म्हण भियेतां.

**आश्विन** – तुमी हाचे वांगडा किद्याक लागता हो. धड न्हू. चला आमी खेळोया.

**बाळू** – हय, हय. खेलोया. म्हजेकले बॅत आशा.

**आश्विन** – आणि बॉल.

**बाळू** – बॉल ना मले.

**संकल्प** – आमी अशे करुया. आमी लिपच्याल्यानी खेळोया.

**अनिकेत** – हय, हय. लिपच्याल्यानी खेळोया आणि रियाकुय घेवया.

**संकल्प** – ते येवचेना.

**अनिकेत** – हांव सांगता तेका.

**बाळू** – तछें जाल्याल येवचेत ना ते.

**अनिकेत** – चूप. (रियाकडे पळयत) रिया, आमी लिपच्याल्यानी खेळटां. तू येता?

**रिया** – सर तापचोना?

**अनिकेत** – ना तापचो. आमी अशेच करता. सर गेलो की खेळटा. तूं भियो नाका गो.

**सगळे** – चला, चला लिपोया.

(सगळे जागो सोदपाक लागता)

**संकल्प** – रावात रे सगळे लिपल्यार धरतोलो कोण?

**बाळू** – हांव धलतां तुमी लिपात. शालेभायल मात वचूं नाकां आं. आनी म्हाका दिशतले अछे लिपात. (सगळे लिपोंक वयता)

**बाळू** – (दोळयार हात दवरता) लिपले? (आवाज ना)बेगीन लिपात सल येवच्या पयली .... लिपले?

**आवाज** – ना

**बाळू** – चद पैश वचूं नाका ले ऽ ऽ (सर येता.) लिपले?

**सर** – (बाळूक पळयता) लिपच्याल्यानी खेळटा?

**बाळू** – हय, लिपले ?

**सर** – ABCD काढली?

**बाळू** – ना. लिपले?

**सर** – हय. (बाळू दोळ्यावयलो हात काढटा)

बाळू – धल्लो (गुरुजीक घट्ट धरता)
सर – आरे गाडवा सोड.
बाळू – सल.... तू... तू... तुमी.
सर – सगळे खय गेले?
बाळू – लिपोंक गेल्यात.
सर – लज दिसना सांगपाक.अभ्यास करपाचो सोडून खेळटा. खेळपाक येता तुमी शाळेंत ?
बाळू – हय.
सर – किदे ?
बाळू – ना, ना (संकल्प आणि आश्विन येता)
सर – येयात, येयात खंय गेल्ले तुमी ?
संकल्प – भायर गेल्ले सर.
सर – किद्याक लिपोंक
आश्विन – ना, ना आमी... ते सोडूंक गेल्ले.
सर – कोणाक सोडूंक?
संकल्प – टॉयलेटीन गेल्ले.
सर – पूण हो सांगता तुमी लिपच्यानी खेळटाले म्हणून.
आश्विन – फटींग तो
बाळू – हांव फतींग? आमी खेलं नाशिल्ले?
आश्विन – केन्ना खेळटाले?
बाळू – आमी खेलं नाशिल्ले जाल्याल हांवे दोये किद्याक धापलेले?
संकल्प – आमका किदे खबर तुवें दोळे किद्याक धापलेले ते.
बाळू – फतींग तुमी.
संकल्प – तूं फटींग.
बाळू – हांव केन्नात फतींग उलयना. म्हजी आई शदाच सांगताली मनशान फतींग केन्नाच उलोवपाक जायना. तुमीत फतींग.
अनिकेत – (धावत धावत येता) सर. सर (खरशेता) रिया, रिया....
सर – किदे जाले?

अनिकेत – रियाक... ते... ते...

सर – किदें जालें रियाक?

अनिकेत – रियाक कोणेंतरी उबारुन व्हेलें.

सर – किदें? कोणें?

अनिकेत – हांव वळखना तांका. दोगजाण आसले डाकू कशे.

सर – पूण तुमी भायर किद्याक गेल्ले?

अनिकेत – आमी लिपच्यानी खेळटाले. हांवेच रियाक भायर व्हेले. (संकल्प आनी आश्विन आपली जागा बदलता) म्हाका किदें खबर अशें जातलें म्हणून (रिया आनी प्रेम येता.)

रिया – (धावत) सर ऽ ऽ

सर – रिया...

रिया – म्हाका दोघजाण उबारुन व्हरताले.

सर – रिया पयली बस तू. खुर्ची हाडात रे आनी उदकूय हाडात.

अनिकेत – अुदक हाडात रे उदक हाडात. (बाळू आपलो थरमास हाडता.) दी उदक दी. (अनिकेत तोणाक लायता. सर थापाट मारता.)

सर – गाडवा तुकां हाडलां तें. रिया भीयोंव नाकां तूं (आश्विन गुरुजीची खुर्ची सकयल दवरता रिया बसता.) बाय सवकास बस. (बाळू उदक हाडटा. रिया उदक पिता.) आता सांग रिया किदें जालें?

रिया – सर आमी लिपच्याल्यानी खेळटालीं अनिकेतान म्हाका शाळेभायर व्हेलें. थंयच दोगजाण गाडयेन आयले आनी म्हाका उबारले.

सर – कोण ते ?

रिया – हांव वळखना सर.

सर – आनी तू सुटले कशे ?

रिया – (प्रेमाक पळोवन) हांणे एकल्याचेर उडी मारली तेन्नाच हांवे ताका घास मारलो.

प्रेम – आनी तेन्नाच हांव रियाक घेवन धांवत आयलों.

सर – तूवे रियाचो जीव वाटोवन हे शाळेचेर उपकार केले.

अनिकेत – रिया काय लागोंक ना मगो.

रिया – चूप, सर तांणी म्हाका उबाल्ले तेन्ना हो पळून आयलो. हाणें कांयच केले ना.

अनिकेत – किदेय सांगू नाका रिया. हांवे कायच करुंक ना?

रिया – किदें केल्लें?

अनिकेत – तूं बोंब मारताना हावेय तुज्यावांगडा मोठ्यामोठ्यान बोंब मारुंक ना.

सर – चूप! हातान काकणां घाल रे आयज हाकालागून आमकां रिया परत मेयळें ना जाल्यार हांवूय शाळेन उरचों नासलों. आरे! तुजे नांव विचारुंकूच ना.

प्रेम – म्हजें नाव प्रेम.

सर – खंय रावता तूं ?

प्रेम – मडगांव.

सर – तुज्या सारकिल्लें हुशार भुरगे आमच्या देशाक जाय. कोण आसतले काय ते आनी रियाक किद्याक उबारुंक सोदताले चला रे आमी भायर नदर मारुन येवया.

अनिकेत – सर, आता ते दिसल्यार हांव मारताच तांका.

सर – व्हदळ किद्याक मारुंक ना.

अनिकेत – व्हदळ हांव एकटोच आसलों. आतां तुमी सगलें आसात.

संकल्प – भित्रो खंयचो. सर आमी सोदया तांकां.

सर – चला या. रिया तूं हांगाच राव आं. भायर सरु नाकां. प्रेम मात्सो रिया म्हऱ्यान राव आं.

बाळू – सल हांव मालतां ताका. कोयत्यान कुलके कलता.(सगळे वयता.)

रिया – Thank You

प्रेम – Thank You किद्याक ?

रिया – म्हाका मदत केली म्हण.

प्रेम – Thank You म्हणून तूं उपकार विसरूंक सोदता?

रिया – उपकार खयचे हांव तुकां विसरचेंना

प्रेम – किदें ?

रिया – काय ना.

प्रेम – घडये फाल्यां तूजी म्हाकां गरज पडत...

रिया – बरे तर हांव Thank You म्हणना. पूण म्हाका अेक सांग तूं मडगांवचो जाल्यार हांगा पणजेन कसो?

प्रेम – तुमचे शाळे कुशीक म्हजी मावशी रावता. हाव सुटयेन रावपाक आयिल्लों.म्हजी शाळा फाल्याच्यान सुरु जाता. हांव फाल्या वतलों मडगांव.

रिया – तुज्या हाताक किदें जालां शें दिसता. रगत येता.

प्रेम – धावताना किद्याक तरी आपटलों आसतलों (रिया बॉलसातल्यान लेस काडटा आणि प्रेमाच्या हाताक बांदता. दोगांय एकामेकाक पळयत रावता. जनेलाचेर अेका व्यक्तिची सावळी. हळू हळू काळोख जाता. )

(ल्हवू –ल्हवू उजवाड जाता तींच पात्रा आता व्हड जाल्या. कॉलेजिचे कॅन्टीन, संकल्प चितीत बसला आनी अनिकेत सिगरेट ओडटा.)

संकल्प – (सिगाराचो धुंवर सोडून अनिकेताक दिता.) घे.

अनिकेत – (हातान घेता आणि परत दिता.) आयज मूड ना.

संकल्प – मूड ना, किद्याक ? आरे आयज कॉलेजीचो पयलो दिस आणि ही सिगरेट फकत कॉलेजींतूच ओडूंक मेळटा. घरा मेळना.

अनिकेत – जाणा हांव.

संकल्प – मागीर मूड किद्याक ना?

अनिकेत – तें सांगपाची गरज आसा?

संकल्प – ऑफ कोर्स!

अनिकेत – आमी फेल जाल्या हाची तुकां जाणवीकाय करुन दिवपाक जाय?

संकल्प – फेल जाले? कोण? आमी? तूं सारको ना तकलेन? आरे पिशा जे क्लासिंत आमी बसतले ती S. Y. B.A. ची क्लास.

अनिकेत – जाणा हांव. (मान सकल घालून)

संकल्प – आनी हेंवूय जाणां आसतलो की पोरुं आमी बारावीक आसले.

अनिकेत – हय.

संकल्प – म्हणटकच आमी पास जाल्या.

अनिकेत – पूण सत्य किदे?

संकल्प – किदे ?

अनिकेत – हेंच की आमी पास जाल्या कारण आमच्या कॉलेजीचो प्रिंसीपॉल तुज्या पप्पाक वळखतालो. नाजाल्यार आमी फेलूच न्हंय. फावर मारुंक नासलो जाल्यार...

संकल्प – फावरान जांव पूण पास जाले मरे? ताकाच म्हत्व आसा.

अनिकेत – (उठता) पूण म्हाकां एक कळना आमी फेल जाले कशे? गेल्या वरसा आमी अर्द वरानूच पेपर दिवन उठलेले पूण अंदू तर आमी सारकीं तीन वरां बाकार बसून आसले, तरिय फेल कशे जाले तेंच कळना.

संकल्प – किदें करुया ते दळडिरे प्रोफेसर पेपर तपासता न्ही रे. Bench तपासलेले जाल्यार जावचे नासले. (हासता.)

अनिकेत – तुका सगलीच फकाणा येवजता.

संकल्प – मागीर तुजे भशेन चितीत बसू म्हणटा? मनशान तोंडार खोशयेचो लेप लावपाक शिकपाक जाय. (आश्विन येता. आश्विनाच्या हातीन हेल्मेट.)

आश्विन – Hello! (सगळे एकामेकाक वेंगेन घेता.) किदें रे अंदूय फेल मरे तुमी?

अनिकेत – अे Stupid पास जाल्या आमी.

आश्विन – कसले पास. संकल्पाच्या पप्पान प्रोफेसराक प्रेशर मारलो म्हणून. नाजाल्यार फेलूच तुमी.

संकल्प – आनी तूं किदें पास जालो. तुजो एक पेपर उरिल्लो आनी तो कसो सुटला तेय खबर आसा.

आश्विन – ओगी राव फुडें उलोंव नाकां आयकत कोणूय... (बाळू केसांचो वीग घालून येता. हातान सुरी.)

बाळू – अे किदें आशा तें शगलें दियात, भांगल, पैशे, घड्याल, पाकीत, नाजाल्याल चाकवान कापतां.

संकल्प – (फुडे येता) अे ऽ किदें जाला तुजें?

बाळू – अे ऽ फुलें येव नाका चाकवान बालीक कुलके क्लतलों. (चाकू उघडपाचो प्रयत्न करता. पुण जायना म्हण संकल्पाकडे दिता.) मात्शे उगलून दिले. (संकल्प उघडता आनी ताकाच दाखयता.) अे नाकां ले.

अशें कलुं नाका. म्हजी आई सदाच शांगताली

**सगळे** – बाळू ?

**बाळू** – (माथ्यावयलो केसाचो वीग काडून ) हय हांव तो बालू.

**संकल्प** – बाळू पास मरे?

**बाळू** – हांव पाश.

**अनिकेत** – बरो मरे पास जालो तूं.

**बाळू** – म्हजी आई शदांच शांगताली आमच्या घलान्यान कोणूच फेल जावंक ना म्हून.

**अनिकेत** – बरे जालें तुजी आई हे सांगून गेल्या ती, नाजाल्यार तुजीय अवस्था आमचेभशेनूच जावपाची.

**संकल्प** – आरे आश्विन तूं हें हॅल्मेट घेवन सो भोंवता?

**आश्विन** – सरकारान Compulsory केलां न्हींय रे.

**संकल्प** – तुवेन Bike घेतली तर?

**आश्विन** – Bike ती खंय सरकारान Compulsory केल्या? (सगळे हासता.) बरें संकल्प म्हाकां एक सांग, तूं फेल जाला म्हण तुकां लुकसांग जाला आसतलें न्हूं?

**संकल्प** – कसले?

**आश्विन** – तुका पप्पान सांगलेलें मरे पास झाल्यार Splendor घेवन दिता म्हण.

**संकल्प** – म्हणूनच मरे फेल जालों हांव.

**आश्विन** – तो कसो?

**संकल्प** – म्हाका पप्पान सांगलें पास जा Splendor घेवन दिता आणि हांवे किदे केले जाणा पुस्तका शिकचे सोडून Splendor शिकोक भोंवलों. (सगळे हासता)

**आश्विन** – अनिकेत तूं शिल्पाक वळखता रे?

**अनिकेत** – खंयचे शिल्पा?

**बाळू** – तें मोतें ले होस्तेलान लावता तें.

**आश्विन** – ते रे Sunny घेवन येता तें.

**अनिकेत** – वळखता तर पोरु तें आनी हांव वांगडा न्हिदताले.

सगळे - किदे?

अनिकेत - History लेक्चराक तें न्हिदले काय हांवूय न्हिदतालों.

सगळे - आ...

अनिकेत - पुण तूं किद्याक विचारता? लायन मारता ताजेर?

आश्विन - आमी मारली म्हणून ताणे मारुंक नाकां. वन सायडेड Love, Love जायना. तुजे आनी रियाचें किदें जालें? घातलें उत्तर?

अनिकेत - घालतलो ह्या वर्सा ताच्या मुखार् म्हजें मन उक्ते करतलोंच.

संकल्प - अशें हो कितलीं वर्सां जालीं सांगता म्हाका दिसता ताका निमाणो भलतोच फारायतलो हो बसतलो फकत गरी वडोवन.

(प्रोफेसर नाडकर्णी प्रवेश करता. सुट, बुट, टाय आणि खाड)

प्रो - Excuse Me!

संकल्प - हे आनी खंयचें Sample ?

प्रो - प्रिन्सिपॉलाचें कॅबीन खंयचे वाटेन आसा तें मात्शें सांगश्यात?

अनिकेत - किद्याक प्रिन्सिपॉल, चेडो फेल जाला?

संकल्प - फावर मारुंक आयला काय पैशे खावोंक आयला?

प्रो - तुमी किदें म्हणटात तें कळना म्हाका.

संकल्प - आमचेकडे लिपोंव नाकां. आमीय तेच लायनीतले.

संकल्प - काम जायना जाल्यार सांग. म्हज्या पप्पाक सांगतां पूण म्हाकां दिसता तशी कांय गरज पडची ना. तूं दिसताच पयली शिवाजी कसो तुकां पळोवन प्रिन्सिपॉल भियेतलो. वतना तलवार मात भेंडाक बांदून वच.

प्रो - हांवूच पळयतां केबीन खंय आसा तें.

अनिकेत - राव, राव. किद्याक रे ताका सतायता. तुकां प्रिन्सिपॉलाचें केबीन जाय न्ही. हांव दाखयता. (दाराकडे व्हरुन) असो उबो चल आणि लेफ्टान घे आनी डायरेक्ट भितर रिग.

प्रो - Thank You. (वता)

अनिकेत - You are most welcome . (हांसता)

संकल्प - अनिकेत, प्रिन्सिपॉलाचें कॅबीन लेडिज रुमांत व्हेलां काय किदें? (हांसता.)

अनिकेत - चेडवांचीं चपलां खावन भायर येतलो. (सगळे हांसतात. )

बाळू – अनिकेत तुवेंन हें बलें कलूंक ना. म्हजी आई शदांच शांगताली मनशान केन्नाच फटींग उलोंक जायना म्हून. (प्रेम येता आनी बाकार बसता.)

संकल्प – बाळू म्हाका एक सांग रे. तो हरिश्चंद्र तुमचो सोयरो ?

बाळू – खंयचो, वयलो काय सकयलो?

संकल्प – तो रे राजा हरिश्चंद्र (सगळे हासता.)

बाळू – अे, चला क्लासिन या. फकाना खुब जाली.

संकल्प – चल या, अनिकेत या बालु खातील आमी टायमार लेक्चरा Attend करुंक पावता. नाजाल्यार... (सगळे वयता हळूहळू काळोख.)

(कॉलेचीचो वर्ग, प्रेमाचो कॉलेजिंत पयलो दीस. वर्गान नदर मारीत दुसऱ्या बाकार बसता. तिगूय वर्गान येता.)

आश्विन – अे, नवो बकरो आयला.

अनिकेत – नवो बकरो आनी वागाक सलाम करीना. Hey! You (प्रेम पळयता) Come Here. (प्रेम फुड्यान वयता.)

प्रेम – किदें?

अनिकेत – New Admission?

प्रेम – Yes.

अनिकेत – नाव?

प्रेम – प्रेम.

अनिकेत – खंयच्यान आयला?

प्रेम – Chowgule College

संकल्प – Subject?

प्रेम – Philosophy.

संकल्प – Philosophy शिकूंक आयला आमी शिकयतां तुकां. चल आमकां सगल्यांक पायां पड.

प्रेम – किद्याक म्हणून?

संकल्प – प्रस्न विचारु नाका. करुंक सांगता तें करपाचें. पाया पड म्हणजे पड. Philosophy शिकूंक आयला मरे तूं, मागीर आमकां पाया पडचोना.

We are father of Philosophy.

**प्रेम** -- पूण...

**अनिकेत** - चूप! सांगता तें कर नाजाल्यार (मुठ उकलता.)

(प्रेम रांगेन सगळ्यांग पाया पडटा.)

**संकल्प** - आयुष्य मान भवं: (अनिकेता म्हऱ्यान वयता)

**अनिकेत** - पुत्रवती भवं: (आश्विताक)

**आश्विन** - चिरंजीवी भवं: (बाळूक)

**बाळू** - देव बर्लें कलूं (सगळे हासता.)

**आश्विन** - आता म्हाका एक सांग तुकां कावळो कसो आरडटा तें खबर आसा.

**प्रेम** - हय.

**आश्विन** - Very Good, पूण आमका खबर ना. आसा रे खबर तुमकां?

**सगळे** - ना, ना.

**आश्विन** - त्या बाकार चड आणि कावळो कसो आरडटा तो दाखय. (प्रेम हालना.) तुकां आयकूंक येना. (तापोन.)

**प्रेम** - म्हाका कळना तुमचें किदें जालां तें.

**अनिकेत** - (थापट मारता) ही भास कळटा तुकां. आतां चड प्रस्न विचारुं नाकां. चल सांगलां तें कर. (प्रेम बाकार चडून कावळयाचो आवाज काढटा. सगळे हांसता.)

**संकल्प** - (सिगरेट पेटयता) आरे कावळया पाखां हालय मरे (प्रेम कावळयाभाषेन हात हालयता. सगळे हासता.)

**बाळू** - किद्याक ले ताका शतायता. म्हजी आई सदांच शांगताली दुसल्यांक केन्नाच त्लाश दिवंक जायना म्हण.

**अनिकेत** - चूप

**संकल्प** - जाम जालो आसतलो बाबडो. चल देंव सकयल. (प्रेम सकयल देंवत) घे ही सिगरेट. फुस्काय.

**प्रेम** - Sorry. म्हाकां सवय ना.

**संकल्प** - सवय ना जाल्यार सवय करुन घे. चल. Philosopher मरे तूं .

**बाळू** - शंकल्प नाका ले. Force कलु तेका. सिगलेट जिवाक बली न्ही. म्हजी

आई सदांच सांगताली...

**संकल्प** – तुज्या कानार मारतलों फुडें उलयशी जाल्यार. (प्रेमाच्या शर्टाक धरता.) अे ओडटा काय ना?

**प्रेम** – ना.

**संकल्प** – ओडीना? (सगळे जबरदस्तीन तोडांत सिगार घलता प्रेम खोकपाक लागता. तेन्नात रिया येता.)

**रिया** – किदें चलला तुमचें? किद्याक ताचेर बळजबरी करता तुमी?

**संकल्प** – बळजबरी करपाक तो चली न्हंय. This is the part of Raging

**रिया** – Shut Up!, तुमचु नाव प्रिन्सिपॉलाक सांगतलें हांव.

**संकल्प** – रिया, हो तुजो कोण लागता?

**रिया** – लागता कोण तरी. तुमका किद्याक जाय?

**आश्विन** – तापता किद्याक गो रिया. आयज कॉलेजीचो पयलो दीस हें खबर ना तुका?

**रिया** – खबर आसा. पूण तुमचो निमाणो दीस जांव येता.

**आश्विन** – रागार जांव नाका गो रिया. आयज पळय तूं काय बरें सोबीत दिसता. तुजें तें टी–शर्ट, पॅण्ट, सॅंडल....

**रिया** – (सॅंडलाक हात लावन) काडू?

**आश्विन** – नाका, नाका.

**संकल्प** – रिया, केन्ना तरी आमचेलागीं बरें उलय गो.

**रिया** – मवाल्यांकडे तांचेच भाशेंत उलवचें पडटा. (बेल वाजता.)

**अनिकेत** – रिया, बेल वाजली चल जाग्यार बस.

**रिया** – I know!, म्हाका आयकूंक येता. तुवें सांगपाची गरज ना. (रागान पळयत पयल्या बाकार बसता.)

**संकल्प** – रियाचे नखरे अंदू खूबूच वाडल्या. फर्स्ट क्लास आयला न्हीय रे, मात्सो भाव खातलेच.

**अनिकेत** – संकल्प, निमाणो लेक्चर बंक मारुन पिक्चराक या हां.

**संकल्प** – कसलें लागलां रें.

**बाळू** – जोली नं. १

**संकल्प** – या, या. आता पिक्चरांचोच सिझन. पूण आतां लेक्चर कोणाचो. (वर्गातलो टाईम टेबल पळयता.) फिलोसोफी.

**संकल्प** – हो पळयात प्रोफेसराच्या जाग्यार शिवाजी आयलो.(प्रो. येता.)

**बाळू** – अे हो शिवाजी? पूण ताचेकले तुई खंय आसा. तुई ना मले ताचेकले.

**सगळे** – तुई?

**बाळू** – तुई ले... लनांगनान झगलीं कलता ती....

**अनिकेत** – तलवार रे?

**बाळू** – हय, हय.

**अनिकेत** – किदें रे जालें काम? तुकां प्रिन्सिपॉलाचें कॅबीन तरी मेळ्ळे मरे?

**आश्विन** – आमची गरज आसा जाल्यार सांग. (प्रो. हासरो चेहरो दवरुन फळ्याकडे वता.) आरे शिवाजी गडार चडलोसो दिसता.

**प्रो.** – Hello Students.

**संकल्प** – Hello Shivaji.

**प्रो.** – First of all let me introduce myself. I am Prof. M. D. Nadkarni. Iam joining this college as professor from today. Of Course! you can call me prof Nadkarni. ( रिया आनी प्रेम सोडून सगळे उठटा.) किदें जालें? तुमी उबे किद्याक? बसात. (सगळे बसता.) हांवे म्हजी वळख करुन दिली. आतां म्हाकां तुमची वळख करुन दियात.

**रिया** – रिया नार्वेकर From Old Goa.

**प्रेम** – (उबो रावन) प्रेम From Chowgule College ,Margao. (रिया प्रेमाक पळोवंक मान धुवडायता.)

**बाळू** – बायचंदूल कलमलकल

**संकल्प** – शाहरुख खान From मुहब्बते.

**अनिकेत** – नाना पाटेकर From प्रहार.

**आश्विन** – अमीर खान From सरफरोश. (प्रो. प्लॅटफॉर्मावयल्यान सकल देंवता)

**प्रो** – तुमच्या जल्मा उपरांत तुमच्या घरच्यानी तुमचो बारसो केलाच आसतलो आनी तेन्ना तुमका नावाय दवरल्या आसतलीं.

**अनिकेत** – आनी तीं आमीं तुमकां सांगलीं.

**प्रो** – तुमी तुमचीं खरीं नावां लिपोवन तुमच्या आवय बापायचो अपमान करता तो दिसना तुमका ? (तापोन)I want to know your names . (सगळे आपापली नावा सांगता.) Very Good (रिया तोंडार हात दवरून हासता. प्रो. फळ्याकडे वळटा.) हांव जाणां सद्याक तुमी त्या वयार आसात ज्या वयार मनशाचें रगत सळसळटा आणि तातूंत ही कॉलेजीजीण कॉलेजींत मस्ती, फकाणा चलतात. हांवेय म्हज्या वेळार केल्ली. पूण तेका लेगीत मर्यादा आसा. (सगळे एकामेकाकडे पळयता.) म्हजे बाबतींत तुमका सगले Freedom आसतलें. तुमका म्हजो Lectrure आवडना जाल्यार तो तुमी Bunk मारुंक शकता. हांव तुमकां कांयच म्हणचो ना. पूण Without interest वर्गान बसूं नाकात. हांवेय म्हज्या कॉलेज लायफान खूब लेक्चरा Bunk मारिल्ली.लेक्चरां बंक मारप हो स्टुडंटांचो जन्मसिद्ध अधिकार आनी तो तुमका मेळुंकूच जाय. (सगले ताळयो मारता.)

**अनिकेत** – सर तशे जाल्यार तुमी चेडवांचीं फकाणां केल्यां आसतलीं?

**प्रो** – (हासता) हय खूब?

**अनिकेत** – आनी कोणा एकल्याचेर लायनूय मारल्या आसतली.

**प्रो** – (शांतपणान) हय. मारलेली . एकल्याचेरुच. पुण कांय फायदो जालो ना. कॉलेजीतलो, मोग कॉलेजीपुरतोच आसता. एकदां कॉलेज सोपली म्हण्टकच कोण कोणाचो न्हंय. खरें म्हळ्यार कॉलेजींत स्टुडंटानी फकत अभ्यासाचेर मोग करपाचे तांच्या दोळ्यामुखार सुंदर चली न्हय तर सुंदर करीअर आसपाक जाय.

**संकल्प** – पूण सर, आता जग बदललां. आतां भुरगे शाळेंतूच मोग करतात.

**प्रो** – (हासता) Yes I know that now let's start our topic. (फळ्याकडे वळटा.)

**सगळे** – Oh! NO. (आश्विन न्हिदता)

**प्रो** – Now first of all start with what is philpsophy and what is Indian Philosophy. Actually Philosophy is also known as Love but Love of Knowledge...(आश्विनाचेर नदर वयता) संकल्प, तुज्या फाटल्यान न्हिदला ताका उठय.

संकल्प – हांव किद्याक उठोव सर? तुमचे Lecture सुरु जातांत न्हिदला तो. तुमीच उठयात.

प्रो – (हासता) किदें? म्हणजे म्हजो लेक्चर इतलो बोरींग आसा? आनी हांवे सारकी सुरवात खंय केल्या तर? म्हजे लेक्चर इतलो बोरींग आसचो ना की तुमका न्हीद येतली. (आश्विन उठटा) आरे! किद्याक उठलो (हासता.)

आश्विन – सर तुमचे लेक्चर बंद करपाक न्हिदलेलो हांव. आयज पयलो दिस आनी तुमी रामायण सुरु केलें. (प्रो. हासता.)

प्रो – ओके. ओके. म्हाकां तुमी हें पयली सांगपाचे न्ही?. चला तर I am closing my topic. (सगले ताळयो मारता.) पूण आमी किदें तरी उलोवया. Now रिया tell me what is your ambition.

रिया – Sir I will become professor of Philosophy.

प्रो – Very Good! म्हणजे म्हज्या फाटल्यान तुजो नंबर आसतलो. आनी संकल्प तूं रे ?

संकल्प – सर, म्हज्या मतांन किदें जावप म्हत्वाचें ना. किदे आसप म्हत्वाचे आसा. आनी तो म्हणजे पैसो. in todays life money is everything. पैसो आसल्यार मनीस आसा. मागीर तो पैसो कसोय मेळोव. आयज मनश्याक आनी शिक्षणाक value ना. value आसा तो फकत पैशांक. मनीस मनान कितलोय बरो आसूं पैसो ना जाल्यार ताचो वालोर Zero.

प्रो – Well, lets keep your opinion pending प्रेम ह्या विषयाचेर तुका किदें सांगपाचें आसा?

प्रेम – सर, ह्या संसारान पैसो म्स्त्वाचो ना. मोग म्हत्वाचो. जाच्या जीवीतान मोग आसा त्याच्या जिवीतान सगलें आसा. जिवितान पैसो म्हत्वाचो आसा पूण तो तितल्याच पुरतो. एकाच्या जिवितान जर मोग करपी आवय, भयण, भाव, गर्ल फ्रेंड आसा जाल्यार ताका आनीक किदें जाय. मनशालागी एकूच मोग करपी व्यक्ती आसप म्हळ्यार ताच्या पायाकडे सर्ग आसप. मनीस मरतकच ताचो पैसो याद उरना ताचो सभाव याद

उरता.

**अनिकेत** – Sir I don't think so.म्हाकां हें पटना. जाचेलागीं पैसो आसता ताचेलागीं मळब आसता. पैशान मोग विकत घेवपाक येता. बेस्ट एक्साम्पल म्हळ्यार आयच्यो चलयो. जाचेलागीं पैसो आसा, बंगलो आसा, गाडी आसा ताकांच पळयता तीं. पयली ताचे पॉकेट पळयता, मागीर तोंड. दिसपाक आनी सभावान तो कसोय आसूं. पैसो आसलो म्हणटकच जालो.

**रिया** – (रागान) Sir, this is insulting.

**अनिकेत** – But it is fact.

**रिया** – No it's not.

**अनिकेत** – Yes it is.

**प्रो** – आरे, आरे, तुमी हो विशय Personally घेंव नाकांत. सुरवात खंयच्यान केल्ली आनी ताचो शेवट खंय जाता ? पूण एक गजाल तुमच्या लक्षांत आयली? तुमी म्हजो लेक्चर बंद केल्लो पूण तुमी स्वता: मुद्दयार आयले. तुमी जें आता उलयले this is all part of philosophy. Well I am winding up my lecture lets continue tommarrow. Enjoy yourself. (प्रो. सकल देंवता. अनिकेत आडयता.)

**अनिकेत** – Sir...

**प्रो** – Yes, अनिकेत?

**अनिकेत** – Sir we feel sorry...

**प्रो** – for what..

**संकल्प** – सर येदोळ आमी तुमकां...

**प्रो** – No, No it's all right. don't feel sorry for it. Ok. & (वता आणि वळोन) for your kind information हें लेगीत हांवे म्हज्या कॉलेज लायफान केल्लें. (सगळे हासता. प्रो. वता.)

**आश्विन** – वायट ना प्रो. friend कसो वागता. शिवाजी आवडलो.

**अनिकेत** – आता कोणाचो Lecture?

**संकल्प** – आता free Lectrue तो खड्डो सारखदांडे पयल्या दिसा येता?

आश्विन – तशे जाल्यार कॅन्टीनांत या.

अनिकेत – नाका, नाका. हांगाच बसूया.

संकल्प – हांगा बसून किंदें करतले. खूब दिस जाले कॅन्टीनान गेल्यार.

अनिकेत – तुमी चला हांव येना.

संकल्प – चल रे भाव खांव नाकां. (अनिकेताक वोडीत व्हरता. सगळे वयता.)

रिया – (प्रेम उठोन वयता आसताना) Excuse Me. (प्रेम वळटा) New Student. Right?

प्रेम – Yes.

रिया – From which College.

प्रेम – Chowgule College.....

रिया – (हात फुडे करित) My name is Riya.

प्रेम – (हात दीत) Hello! Riya, I am Prem.

रिया – तुजे एदोळचें Opinion पटलें म्हाकां.

प्रेम – फकत पटून फायदो किंदे? आमी ते विशीं Practicle आसपाक जाय नाजाल्यार ताणीं सांगलें तेंच खरें म्हणचे पडटले.

रिया – तूं मडगांवचो न्हंय?

प्रेम – तुका कशें कळ्ळे?

रिया – तुका दिसना आमी हाचे पयलीं केन्ना तरी मेळ्ळ्या कशीं ?

प्रेम – ना, म्हाकां तरी याद ना. आनी मनशाचो चेहरो तोच उरना बदलत आसता. Excuse me. (वता)

रिया – मनशाचो चेहरो बदलता, मन बदलना. म्हजे दोळे शेणूंक शकता पूण मन शेणूंक शकना. म्हजे मन सांगता तूंच तो. (अनिकेत धावत येता.)

अनिकेत – Hello, Riya.

रिया – हॅलो. धावत सो आयलो.

अनिकेत – ते सोडी नासले म्हाका. तांका शेणोवन आयलां.

रिया – किदयाक ?

अनिकेत – तुजेखातीर.

रिया – म्हजेखातीर?

अनिकेत – हय. तुका किंदें सांगूंक जाय आसलें म्हाकां.

रिया – किंदें?

अनिकेत – रिया... (हळू स्वरान) तूं जाणा हांव तुकां Like करता तो?

रिया – हय.

अनिकेत – खऱ्यानीच?

रिया – हय.

अनिकेत – आनी.. तू..

रिया – तू म्हाका Like करता म्हणून हांव तुकां Like करुं ?

अनिकेत – हांव तशें म्हणनां पूण...

रिया – पूण किंदे? हें पळय अनिकेत हांव तुकां इश्कोलांतल्यान लायफाच्यान वळखतां. हांवे तुकां तें नदरेन केन्नाच पळोवंक ना.

अनिकेत – मागीर आतां पळय.

रिया – हेंच चुकता तूजें. तुकां मोगाचो अर्थच खबर ना. मोगाक जी नदर लागता ती नदर म्हजेकडे ना आनी आसलीय जाल्यार ती तुजेर केन्नाच पडची ना.

अनिकेत – तरी हांव ते नदरेची वाट पळयतलो.

रिया – Your wish, I don't mind. (दोन पावलां मारुन परत फाटी येता.) The Sky is too high.(रिया वता. संकल्प येता.)

संकल्प – वा! वा! दोस्तो के साथ धोखा? तू कॅन्टीनात किद्याक येवपाक पळे नाशिल्लो ती खबर आयल्लीच म्हाका. मेळ्ळें मरे रिया?

अनिकेत – हय. (निश्चेन)

संकल्प – उलयलें?

अनिकेत – हय.

संकल्प – उलर घातलें?

अनिकेत – हय.

संकल्प – मागीर?

अनिकेत – मागीर किदें? हय म्हूण ना. आनी नाय म्हणूंक ना. पयलीं सारकें सगलें अर्दवट उरलें.

संकल्प – अनिकेत राग येवचो ना जाल्यार एक विचारु?

अनिकेत – विचार.

संकल्प – तुका शाळेतल्यान पळयता आमी तूं रियाखातीर सामको पिसो. आरे पूण ह्या संसारान खुपशो चलयो आसात.किद्याक रिया फाटल्यान वेळ व्हगडायता?

अनिकेत – संकल्प, मोग केन्ना जाता तो कांयच्च कळना. हांवूय पयलीं फकाणांच समजतालों. पूण केन्ना ताच्या मोगान पडलो तें म्हाकांच कळूंक ना. लड़कियाँ तो बहूत है लेकीन सबमे वो नही जो उसमे है। .

(आश्विन येता.)

आश्विन – अनिकेत, तू शेणलो सो दिसता.

अनिकेत – म्हणजे ?

आश्विन – लायब्ररिन वचून पळे रिया आणि प्रेम वांगडा बसल्यां.

अनिकेत – बसल्यार किदें जालें?

आश्विन – बसल्यार किदें जालें. आरे इतलीं वर्सा जें तुजेलागीं बरेभाशेन उलोंवक नां ताका घेवन बकरो लायब्ररींत बसला. This is too much.

संकल्प – अनिकेत तो फारयना मरे ताका?

अनिकेत – किदें फारयतलो? रिया म्हजें आसा आनी म्हजेंच जातलें. ल्हानपणापासून हांव मोग करतां ताचेर.

आश्विन – पूण आतां कबाब में हड्डी आयला ताका किदें करुया?

अनिकेत – किदें म्हणजे धमकी दिवया आणि तरीय आयकना जाल्यार बडोवया.

( पडदो हळू – हळू पडटा.)

## ।। पयलो अंक सोपता ।।

# अंक दुसरो

## ।। देखावो पयलो ।।

(कॉलेजीचो रस्तो प्रेम चलत आसा. रिया फाटल्यान धावत येता.)

रिया – Exuce me Prem (प्रेम रावता)

प्रेम – Yes.

रिया – Good Afternoon.

प्रेम – Good Afternoon.

रिया – मात्सो हात फुडे कर.

प्रेम – किद्याक?

रिया – कर न्ही. (प्रेम हात फुडें करता. रिया फ्रेंडशीप बेल्ट बांदता.) Happy Friendship day.

प्रेम – Thanks.म्हजेकडे फ्रेंडशीप बेल्ट ना. नाजाल्यार हांवूय तुका बांदतलो आशिल्लो.

रिया – No problem. म्हजेकडे आनी एक आसा.

प्रेम – नाका. तुवेन तो आणि कोणाखातीर हाडला आसतलो.

रिया – ना हांवे मुद्दामूच extra...म्हणजे... मोड नासली म्हणोन हाडलेलो आनी हरशी म्हूणू म्हांका हजार फ्रेंड करपाक आवडनात. म्हज्या मतान एकूच फ्रेंड आसचो. पूण बरो आसचो.

प्रेम – अशें मागीर म्हजेंभितर तुका किंदे बरेपण दिसले.

रिया – तू तें समजचो ना. घे बांद हो बेल्ट. (बेल्ट बांदता) Thank You.

प्रेम – O. K. See you. (प्रेम वता रिया बेल्टाक पळयत रावता. बाळू येता.)

बाळू – हाय लिया... हॅपी फ्लेंदशीप दे लिया... लिया हात फुले कल. हांव तुका बेल्त बांदतां.

रिया – काय गरज ना.

बाळू – बलें तर तुं म्हाका बांद.

रिया – हांव तुकां बांदूं? Go to hell. (वता)

| | | |
|---|---|---|
| बाळू | – | Go to health? हेल्थान किल्याक? हांव किदें शालको ना? पिर्शे हे लिया. किलेंय उलयता....(संकल्प आनी अनिकेत येता. अनिकेताच्या हातान बास्केटबॉल.) |
| संकल्प | – | अे बाळू. किदें करता हांगा? लेक्चर अॅटेण्ड करपाचो ना. आणि हो फ्रेंडशीप बेल्ट हातीन घेवन सो भोवता. कोण मेळूंक ना काय किदें रे बांदपाक |
| बाळू | – | कोन बांदूनूत घेना आनी माकाय बानीना. ते लिया म्हुनता Go to health खंय. (दोघूय हांसता.) |
| संकल्प | – | आरे सायबा. तें तुकां किद्याक बांदतलें.... ते बांदतलें आमच्या अनिकेताक. |
| अनिकेत | – | फ्रेंडशीप बेल्ट ताका बांदता ज्याचेकडे फ्रेंडशीप नासता. म्हजी आनी रियाची फ्रेंडशीप भूरगेपणाची. आतां तें डायरेक्ट म्हज्या गळ्यान हार घालतले. |
| बाळू | – | कोणाच्या गळ्यान घालतले कोनांक खबल. |
| अनिकेत | – | किदें? |
| बाळू | – | कांय ना कांय ना. |
| संकल्प | – | हे पळय बाळू आमी आताचो लेक्चर अॅटेण्ड करचे ना. आमका कॅन्टीनान मात्शे काम आसा. |
| बाळू | – | किद्याक ले लेक्चला बंक मालता... फेल जायत मले... |
| संकल्प | – | पोरुय आमी अशींच लेक्चरा बंक मारताले. फेल जाले? ना मरे? मागीर अंदूय पास जातले. चल आता या. पूण आमी कॅन्टीनान तू क्लासिन. (सगले वता) |

(वर्गान प्रो. शिकयता. वर्गान संकल्प आनी अनिकेत सोडून सगळे आसा. रियाचे लक्ष परत–परत प्रेमाचेर वता)

| | | |
|---|---|---|
| प्रो | – | आमी हो लेक्चर फाल्या Continue करया. (सकल देवता) आश्विन. |
| आश्विन | – | Yes Sir . |
| प्रो | – | संकल्प आनी अनिकेत खंय आसा? |
| आश्विन | – | Sir .कॅन्टीनात गेल्यात. |

प्रो – Ok!, (सगले भायर वता. रिया बसून आसा. प्रो. फुडें वता पूण वळोन रियाकडे) रिया.

रिया – Yes Sir, (उठटा.)

प्रो – रिया लेक्चर सोपलो.

रिया – (गडबडटा) Ya ... Ya... Yes sir. I know Sir

प्रो – What's wrong with you?

रिया – Nothing. Sir.

प्रो – रिया I have noted you this days.तुजें लक्ष लेक्चरांकडे ना. Are you all right?

रिया – Yes, Yes Sir, I am Ok.

प्रो – But I don't think so. Something is distracting You.

रिया – No... No Sir. I am OK Sir.

प्रो – If not You should!, तुमची परिक्षाय लागी पावल्या.

रिया – Yes Sir, I know Sir. Thank You Sir.

प्रो – OK then see you tomarrow!, (प्रो. वता. रिया बॅगातलो बुक काडटा. वाचपाचो यत्न करता पूण लक्ष लागना म्हणून भायर वता. अनिकेत आणि संकल्प येता.)

अनिकेत – शट, हांव जाणाच आसलो लेक्चर सोपतलो म्हणून.

संकल्प – म्हणजे किदें बेल आयकूना तर तुवें ?

अनिकेत – हें सगलें तुजे खातीर जालें. कितलो वगत तूं अेक सिगरेट ओडटा? स्टायली मारुन सिगरेट ओडपाची सवय तुकां. खंयचो पांय मेजार दवरतलो, धुवर वयर सोडटलो, चलयांक पळेतलो, तांची फकाणां करतलो. तांची फिगरा मेजतलो... हातातली सिगरेट भायरुय उडवपाक तयार ना तूं.

संकल्प – हातातली सिगरेट भायर उडोवं आशिल्लों? तुका खबर आसा धराकडे सिगरेटिची म्हाका कितली याद येता ती. कॉलेजीत सोडटा तो प्रत्येक सुस्कार म्हाज्या दोळयामुखार येता. सिगरेट ही म्हजें गर्लफ्रेंड कशें. जशें तुजें रिया गर्लफ्रेंड.

अनिकेत – आजून तें म्हजे गर्लफ्रेंड जावंक ना.

संकल्प – जावंक ना जाल्यार जातलें फाल्यां.

अनिकेत – कशें जातलें? सध्या आमचे मदीं कबाब में हड्डी आसा म्हणून तुकां सांगलेलें, आयज ताका आमी धमकी दिवया.

संकल्प – दिवया मरे, नाका कोणी म्हटल्या. पुण मेळोनी तरी तो. आयज खंय दिसोंकूच ना तो.

अनिकेत – कसो दिसतलो. तो दिसपाक आमी क्लासीन आसता? तुकां सांगलेलें इंटरव्हल जावच्या पयलीं आमी
क्लासीभायर रावूया म्हणून. पूण तूं सिगरेटूच सोडपाक तयार ना.

संकल्प – मागीर सिगरेटूच घेवन येव आसलो? कॅन्टीनान ओडटा तें बरें आसा. पूण कॉलेजीत प्रिंसिपॉलान पळयलो जाल्यार जालें... आनी अनिकेत, एकवेळ बरेंय जालें आमका उशीर जालो तो नाजाल्यार प्रो. नाडकर्णी
आमकां भायर पळेतलो आशिल्लो आनी मागीर ताका कळपाचें आमी बंक मारला म्हूण.

अनिकेत – तातूंत किदें? ताणेच तर सांगला आमी लेक्चर बंक मारुंक शकता म्हूणू.

संकल्प – प्रोफेसरान सांगला म्हूण ताच्या फुड्यानूच बंक मारप? सॉलीड तूं हां.

अनिकेत – आता प्रेमाचें किदें करुया तें सांग.

संकल्प – तूं बेश्टोच टेन्शन घेता. कॉलेज सुट्टली साडेपाचांक. आताच रिसेस जाता थंय आसा.

अनिकेत – टेन्शन घेवं नाकां जाल्यार किदें करुं. ल्हानपणासावन रियाचें सपन पळयत आयलां हांव. ताका तुदूंग दिवपाचें ना म्हाका. (आश्विन आनी बाळू येता.)

बाळू – अे ऽ ऽ अनिकेत, शंकल्प खंय ले तुमी? आमी तुमकां शगल्याक शोदता.

संकल्प – तुमी आमका सोदता आनी आमी आनी कोणांक सोदता. आमी किदें आयज लिपच्याल्यानी खेळटा?

बाळू – अे ऽ ऽ लिपच्याल्यानी नाव कालू नाकां. शालेन आसतना अेकदा भानगद जाल्ली याद ना?

आश्विन - तुमकां दोघांकूय सर विचारतालो, तुमी खंय काय म्हणोन.

संकल्प - मागीर तुवेन किदें सांगलें?

आश्विन - हांवे सांगले कॅन्टींनात आसतले म्हूण.

संकल्प - तुकां लायब्ररीन आसतले म्हणूंक जाय नाशिल्लें? प्रोफेसराकूय कळटलें आसलें आमी स्टडीत सिरीयस आसा म्हणोन.

बाळू - शांगपाची गलज ना. ते पलिक्षेच्या लिजल्टाकलेच कयतले.

संकल्प - . चूप.

अनिकेत - आश्विन, प्रेम आयला आयज?

आश्विन - हय, आयला. म्हाज्या मुखारुच बसलेलो. अनिकेत आयज लेक्चर चालू आसताना रिया परत-परत प्रेमाकूच पळयताले.

अनिकेत - संकल्प चला. म्हाज्यान रावूंक जायना. ताका लायब्ररीत पळोवया. नाजाल्यार परत हांगाच येवया. फुडल्या लेक्चराक तरी मेळटलो. (सगले वता, रिया पुस्तक वाचीत बाकार बसता.)

रिया - (पुस्तक बाकार आपटीता आनी उठत विचार करता.स्वता वांगडाच उलयता) रिया, What happened to you? किदें जालां तुकां? म्हाका खंय किदें जाला. तुकां कांयच जावंक ना जाल्यार तूं नोटस् किद्याक काडीना. ते By heart किद्याक करिना? परिक्षेक कितले दिस उरल्या ते खबर आसा तुकां? खबर आसा. हांव करतले स्टडी. पूण केन्ना? कविता बरोन जाले म्हण्टकच? म्हाका कविता बरोवंक आवडटा. It's my hobby. ही hobby केन्नाच्यान लागल्या तुकां? आनी तूं ते कवितेन कोणाचें मन उक्तें करता?कोणाक किदें सांगपाचो यत्न करता? हांव कोणांकूच कांयच सांगपाचो यत्न करीना म्हजे कविता म्हज्या पुरत्योच आसतात. तशें जाल्यार ते कवितेन 'तूं' हो शब्द परत परत किद्याक येता? तूं म्हणजे कोण? हांव नकळो. खऱ्यानींच हांव नकळो, तूं कोणांक फटयता. स्वताक काय स्वताच्या मनाक? हांव नकळं, रिया तुका आयज अेक गजाल स्विकार करचीच पडटली. ती खंयची? रिया तूका मोग जाला (हासत बसता.) हय रिया तुकां मोग जाला. You are in Love (बाकार बसता. परत बरयता. इतल्यान प्रेम

येता.)

प्रेम – किर्दे बरयता?

रिया – (गडबडटा) आं! काय ना.

प्रेम – पळोवया.

रिया – खऱ्यानीच कांय ना.

प्रेम – दाखय तरी (रिया सकल मान घालता) दाखोवपासारकें ना?

रिया – ना, तशें कांय ना (सकल तकली घालून चोपडी दिता, प्रेम वाचता.)

प्रेम – वा. सुंदर कविता मनाक स्पर्श करुन गेली.

रिया – खरेच?

प्रेम – हय. पूण ही कल्पना काय सत्य?

रिया – तुका किर्दे दिसता?

प्रेम – कोण कविता बरयतना स्वताजावन बरयना. ताजें मन ताका बरोवपाक लायता. तुजे हे कवितेन जी तळमळ आसा ती मनानल्यानूच येवंक शकतली.

रिया – म्हणजे?

प्रेम – ही कविता न्हय. हे सत्य तुज्या जिवितातलें. Are You accepting this fact?

रिया – (लजोन) Yes it is true.

प्रेम – कोण ही व्यक्ती जाचेर तूं इतलो मोग करता?

रिया – आसा कोण तरी.

प्रेम – हांव तुजी किर्दे मदत करुं?

रिया – तूं ?

प्रेम – Yes, why not? तुकां दुबाव आसा?

रिया – ना तशें ना. Actually तूं एकूच मनीस आसा जो म्हाका हे तळमळीतल्यान भायर काडूंक शकता.

प्रेम – Then go ahead. ते व्यक्तीचें म्हाका नाव सांग हांव सांगता ताका.

रिया – तूं सांगता?

प्रेम – हय. Tell his name.

रिया – प्रेम First tell me what you think about love. What is love? मोग म्हणजे किदें?

प्रेम – मोग? मोग एक सुंदर सपन... जाच्या जिवितान मोग आसता ते ह्या संवसारातले सगल्यांन नशिबवान मनीस अशें मानतां. जेन्ना चलो –चली एकमेकाच्या मोगान आसता तेन्ना तीं खंयच्या तरी .अनवळखी संवसारात आसता. जांतूत Hatred, Jelously हांका कायचं वालोर ना. मोगाफुडे हे जग आयज़मेरेन हारत आयलां. मोग म्हळ्यार फकत एकमेकाक लव्हर्सस्पोटार मेळप न्ही. तर एकमेकाचे सुख दुख: वाटून घेवप, बऱ्या वायट प्रसंगात साथ दिवप आसता. मोगाची वेगळीच अशी भास आसता जी तांकाच कळटा जे मोगान पडटात.

रिया – वा! beautiful. कितलें सुंदर विचार आसा तुजे. प्रेम You have a girl friend.. I mean... तुवेन कोणाचेर मोग केला?

प्रेम – आजूनमेरेन तरी ना. सद्या हांव फक्त म्हज्या कॅरीअराविशीं चितता.

रिया – पूण समज तुकां कोणेय Propose केले जाल्यार...

प्रेम – जाल्यार किदें. हांव कोणाचें मन तर तोडूंक शकना..... उतर घलणारी व्यक्ती कशीय आसूंव ताच्या मनाचो विचार करप गरजेचें आसता.

रिया – So you will accept her love?

प्रेम – I think so. चल तर आमी आमच्या विषयाचेर येवया. तूं म्हाका त्या व्यक्तिचें नाव सांगपाचें आशिल्लें.

रिया – (चितता) प्रेम पयली म्हाकां सांग तूकां कोणाचेरुय मोग जाल्यार तूं ताका कसो propose करतलो.

प्रेम – हांव. I am sorry. म्हजे मन उक्ते करपाक हांव दुसऱ्याक मदीं घालचो ना हें sure. हांव पयलीं ताच्या मुखार उबो रावतलो. ताच्या दोळ्यांत पयतलों. मागीर ल्हवूच ताचो हात धरतलों मागीर नाजूक स्वरान ताका म्हणटलो I love you. (रिया प्रेमाचो हात धरता आणि I Love you म्हणून वता.प्रेम पळयत रावता. अनिकेत आणि संकल्प येता. संकल्पाच्या हातान बास्केटबॉल. बॉल प्रेमावाटेन मारुन)

संकल्प – Hello Boy. (गळ्यान हात घालता) किदें म्हणटा, कसो आसा?

प्रेम – बरो आसा, (बॉल दिता)

संकल्प – आवडली तुका कॉलेज?

प्रेम – हय.

अनिकेत – आनी रिया?

प्रेम – किदें ?

अनिकेत – अेक लक्षान दवर हांव रागाक वायट. म्हाका राग आयल्यार हांव किदें करीत म्हाकां खबर ना.

संकल्प – तूं आमका आजून वळखूंक ना. आमचें नाव आयकल्यार सगळी कॉलेज भियेता.

प्रेम – पूण म्हाका अेक कळना हें तुमी म्हाका किद्याक सांगतात?

संकल्प – कळटलें. तूं जर सुदारलो ना जाल्यार बेगीनूच कळटलें.

प्रेम – पूण तुमी किद्याविशीं उलयतात तें तरी सांगात.

अनिकेत – रियाविशीं....

प्रेम – रियाविशीं ?

अनिकेत – हय. तूं हालीं रियाच्या चड्डूच लागी वचपाक लागला.

प्रेम – लागी आसा, पूण अेक फ्रेंड म्हणून.... (संकल्प बॉल प्रेमावटेन शेंवटीता)

संकल्प – Shut Up. एक जवान लडका और एक जवान लडकी कभी दोस्त नही बन सकते. (बॉल घेता.)

प्रेम – पूण हातूंत तुमचो किदें Problem आसा?

अनिकेत – Problem सगल्यांचो ना म्हजो एकल्याचो आसा कारण हांव रियाचेर मोग करतां आनी म्हाकां नाकां आमच्यामदीं कोणूंय आयल्लो.

प्रेम – पूण आजूनमेरेन तरी आमच्यामदीं तसलें... (विचार करता)

अनिकेत – तसलें हांव किदें जावपाकूच दिवचो ना. सद्या आमी तुकां फकत Warning दितात. रियाक फारोवपाचो यत्न करुं नाकां.

प्रेम – तो यत्न हांवे केन्नाच करुंक ना.

अनिकेत – आनी केन्ना करुय नाकां तूं ताच्या फुड्यानलेगीत रावचो ना आनी जर आमी तुका तांचेलागीं उलयतना पळयलो जाल्यार....

प्रेम – जाल्यार? जाल्यार किदें? (अनिकेत हात पिळटा)

**बाळू** – अे अनिकेत नाका ले हात शोद ले ताच्यो. (इतक्यान प्रो. येता.)

**प्रो.** – Whats going on here ? अनिकेत (अनिकेत प्रेमाच्या खानार हात दवरता.) किदें जालां.

**अनिकेत** – काय ना सर.

**प्रो.** – प्रेम, Anything Wrong?

**प्रेम** – नो सर.

**प्रो.** – काय ना जाल्यार सगल्यानी तुज्या भोवतणीं सर्कल किद्याक केलां?

**संकल्प** – सर, आमी वेर्स्टन फिलोसोफीचेर प्रॉब्लेम सोल्व करताले.

**बाळू** – हय सर.प्लेम, आमचे क्लाशिन बलो शिकपी भुलगो न्ही. म्हुनोन आमची डिफिकल्टी ताका विचारताले.न्ही ले?

**प्रेम** – हय सर. We were discussing about study only.

**प्रो.** – बरें आसा. पूण मात्शे ल्हवू. तुमचो आवाज दुसऱ्या क्लासींत पावता. Don't Disturb others.

**संकल्प** – Sir we will take care of it.

**प्रो.** – अनिकेत आनी तूं संकल्प तुमी येदोळ म्हजो लेक्चर बंक किद्याक मारलो.

**अनिकेत** – सर, आमी लायब्ररीत अीशल्लें. नोटस् काडटाले.

**प्रो.** – नोटस् फ्री लेक्चराक काडपाचे आसतात. लेक्चर बंक मारुन न्ही. आनी हांवे तुमकां लेक्चर बंक मारपाचे फ्रीडम दिलां हाचो अर्थ असो न्ही की परिक्षा लागी आसतनाय तुमी लेक्चर बंक मारप.

**अनिकेत** – सॉरी सर.

**प्रो.** – प्रेम, येदोळ हांवे पॉईंटस् दिल्या ते संकल्पाक आनी अनिकेताक दी.

**प्रेम** – ओके सर.

**प्रो.** – बरे वता हांव. तुमचो आवाज मात्सो कमी दवरात. आनी तुमी उबे किद्याक ? किदें Discuss करता ते बसूंन करात. स्टडीन मायन्डा बरोबर बॉडीसुद्धा रिलॅक्स आसूंक जाय. OK Carry On.

**सगळे** – थँक यू सर. (प्रो. वता.)

**अनिकेत** – सांगलेलें लक्षांत आयलें मरे तुज्या. रियाकडे उलयतना जांव ताच्या

फुड्यानलेगीत तू दिसलो जाल्यार (हात पिळटा.) ह्या हातीन तूं परिक्षा Answer करपाक पावचो ना.

**संकल्प** – आनी ह्या पायानी (पायार खोंट मारता.) कॉलेजीन केन्ना येवंक पावचो ना.

**अनिकेत** – ही पयली आनी निमाणी वॉर्नींग तुका. कळ्ळें....?

(हळू गालार बोटा फिरयता. हळु– हळु काळोख जाता.)

(अनिकेत आनी संकल्प कॅम्पसान बसल्या)

**संकल्प** – (सिगरेट ओढीत) अनिकेत, किदेंय सांग पूण प्रेम आमका भियालो. म्हाका दिसना परत तो रियाकडे उलयत कसो. म्हाकां तर दिसता तो ही कॉलेजूच सोडून वतलो. आरे आमी आजमेरेन जांका जांका धमकी दिल्या ताणें आमकां एकतर तकली वयर करुन पळवपाचे सोडला. नाजाल्यार ही कॉलेजूच सोडल्या. याद ना गेल्या वर्सा तो दिनेश इलेक्शनाक उबो राविल्लो तो. आमी धमकी दिताच बाबडो ही कॉलेजूच सोडून पळ्ळो. (हासता.) तसोच... तसोच हो प्रेमलेगीत ही कॉलेज सोडून वतलो. डायरेक्ट मडगांव. Yes....

**अनिकेत** – हाच्या बाबतीत आमी इतको कॉन्फीडंस दवरप बरो न्ही. म्हाका दिसना तशें किदें जायत म्हूण. तुवें पळोंक ना आमी धमकी दितना तो दोनदा म्हज्या आंगार कसो आयलो तो. त्यावेळार प्रोफेसर आयलो म्हूण सांग नाजाल्यार थंयच ताची हाडा पातळ करतलो आशिल्लो.

**संकल्प** – अनिकेत, कुत्र्याचेर जर खॉट मारली जाल्यार तो मात्सो तरी आंगार येतलोच न्ही. तुं भिवो नाकां. आता तुजो रस्तो साफ आसा. आता रिया फकत तुजे जातलें.

**अनिकेत** – रिया म्हजे जातले ह्याच आशेन तर हांव जगत आयला. कॉलेजींत इतल्यो चलयो आसूनूय रिया वयली नदर मातलेगीत कमी जाली ना. रियाशिवाय खंयच्यात चलयेकडे पळोव कशें दिसना. I Love Riya.

**संकल्प** – Don't Worry one day she will also love you.

**अनिकेत** – तुकां खऱ्यानींच दिसता तशें जायत म्हूण.

**संकल्प** – हय. आता तें तुकां hate करता आसत. पूण तो दिस बेगीनात येतलो

जेन्ना तें तुजेर मोग करतलें.

**अनिकेत** – रिया म्हजेर मोग करतलें? She will love me?... Shut. हे चिंतल्यारुत म्हाकां हांव पिसो जाल्ल्याभशेन दिसता.

**संकल्प** – इतको पिसो जांव नाका. नाजाल्यार तुकां मॅन्टल हॉस्पिटलान व्हरचो पडत. (हासता.)

**अनिकेत** – संकल्प, तुं एक चली किद्याक धरिनां.

**संकल्प** – धरल्या मरें कितलीशीच जाणां. प्राची, प्रिती, शिल्पा.. etc... etc...

**अनिकेत** – तशें न्ही रें? कोणा एकल्याचेर सिरियली लव्ह किद्याक करींना.

**संकल्प** – खरें सांगू अनिकेत म्हाकां या लव्हाचेर विस्वास ना (सीगरेट पाया पोना मस्तीता.) या जगान लव्ह बीन काय नासता रे. There is only attraction... another name of love is attraction... sexual attraction. चल्याक चलयांविशीं जावं चलयांक चल्याविशीं sexual attraction आसता म्हूण तर तें एकामेकाच्या लागी येतात. गरज आसता कुडीची पूण तांका मनाची दिसता. वयार आयिल्ल्या हरेंक चल्याच्या जांव चल्याच्या आंगात हें attraction आसता.

**अनिकेत** – आनी म्हज्या मोगाविशीं तुकां किदें म्हणपाचे आसां?

**संकल्प** – I am sorry.... हांवे ताचो विचारुच करुंक ना पूण अनिकेत हांवे जे सांगला ते सगळ्यांच्याच बाबतीत न्ही रे. कांय भुरगो म्हणजे तुज्यासारके भुरगे या जगान आसात जांका मोगाचो खरो अर्थ खबर आसता. आता तुकाच पळय कितली वर्सा जाली एकाच चलयेचेर मोग करता. (बाळू येता)

**बाळू** – अनिकेत.. अनिकेत वायत खबल आशा.

**संकल्प** – तूं केन्ना बऱ्यो खबरी हाडटा? आता सांग किदें जाले ते.

**बाळू** – तो प्लेम...

**संकल्प** – कॉलेज सोडून गेलो मरे? आरे ते तर जावपाचेंच आशिल्लो तातूंत वायट खबर कसली. ही खोशयेची खबर. Let's enjoy.

**बाळू** – ना ना प्लेमान कॉलेज सोडूंग ना. तो लियाक घेवन कॅन्टीनान बसला.

**अनिकेत** – किदें? इतकी धमकी दिवनलेगीत तो सुदरोंग ना. जीव नाका काय

किर्दे ताकां. संकल्प चल या. आयज रियाच्या हुजीर ताकां धमकी दिवया. (ल्हवू – ल्हवू काळोख जाता.)

(कॉलेजीचे कॅन्टीन. रिया चिप्स खायत बसलां. प्रेमाची नजर दुसरेकडे)

रिया – किर्दे चितता तूं?

प्रेम – आं... कांय ना.

रिया – हांव जाणा. तूं कसलो विचार करता तो. सांगू?

प्रेम – सांग.

रिया – हेंच की हें पिशें तुज्या मोगान कशें पडलें. Right?

प्रेम – Yes Right.

रिया – प्रेम तूं खरोच म्हाका अजून वळखूंक ना. (उठटा) म्हाका पळय. (फुड्यान वता) याद कर, आमी ल्हानपणान मेळ्याची याद ना तुकां. तुवें म्हजो जीव वाटायलो. याद आसा?

प्रेम – ना... ना... म्हाका, म्हाका याद ना.... म्हणजे तो हांव न्ही. (रियाच्या तोणाक पळयत) हे किर्दे. सगळी चीप्स तोंडाक लागल्या. पूस तें तोंड.

रिया – (तोंड फुडे काडून) तूं पूस.

प्रेम – Come on Riya Don't be silly.

रिया – (लाडान) आरे पूण म्हजो Hanky बॅगान आसा आनी बॅग लेडीज रुमान.

प्रेम – हट्‌टी तूं. (बोलसातलो लेस काडून रियाचे तोणार भोवणायता. तेन्नाच रिया हाताक धरता आणि लेसाक पळयता.)

रिया – प्रेम, हो कोणाचो Hanky?

प्रेम – (गडबडोन) म्ह... म्हजो.

रिया – तूं लेडिज लेस केन्नाच्यान वापरुंक लागलो?(प्रेम ओगी) प्रेम किद्याक फटयता म्हाका? म्हजे तकलेर हात दवर आनी सांग तूं तो न्ही म्हूण.

प्रेम – हय रिया हांवूच तो जाणे शाळेंत आसतना तुजो जीव वाटायल्लो, आनी हो तोच लेस जो तुवे म्हज्या हाताक बांदिल्लो. (दोघाय एकामेकाक पळयत रावता.)

रिया – तुवें हो लेस अजून सांबाळून दवरला?

प्रेम – ज्या दिसा तुवे म्हज्या हाताक बानील्लो त्या दिसाच्यान हांवे ताका पैसूच करुंकना.मनात विस्वास आशिल्लो केन्ना तरी तूं मेळटलेच.

रिया – (हांसत) म्हणजे आमी ल्हानपणापासून एकामेकाचेर.... (तकलेर हात भोवंडायता) Oh. No. I can't believe this. (प्रेमाचे दोनूय हात हातान धरुन) I Love You Prem. I LOve You.

प्रेम – (रियाचो हात सोडीत) म्हाका तूजेकडे किते उलोवपाक जाय.

रिया – कांयच सांगू नाकां. Only say I Love You . म्हाकां तुज्या तोंडाल्यान हीं उतरां आयकूंक जाय. (प्रेम ओगी) Please... (तोणाक पळयत)

प्रेम – हीं तीन उतरां तुकां अनिकेत दितलो. He loves you Riya.

रिया – म्हणजे ही गोष्ट ताणे तुकांय सांगली? पीसो तो स्वताक कोण समजता कोण जाणा.

प्रेम – ताका तुजी गरज आसा. He really loves You.

रिया – And You?

प्रेम – Please try to understand Riya.

रिया – Why don't you try to understand. अनिकेताक हांव ल्हानपणापासून वळखता. ल्हानपणापासून तो म्हाकां आपलें Lover मानता. Stupid fellow.

प्रेम – पूण तो खरोच तुजेर खूब मोग करता.

रिया – (हासत) मोग? ह्या उतराचो अर्थ तरी खबर आसा ताका....? प्रेम ताणें तुकां धमकी दिल्या? (प्रेम ओगी) तूं भियेता ताका?

प्रेम – हांव ताका भियेना, पूण म्हाकां नाकां कॉलेजींत झगडीं जाल्लीं.

रिया – म्हणून तू म्हजेवेल्या मोगाचो त्याग करतलो.

प्रेम – पूण ताकाय तुजी तितलीच गरज आसा.

रिया – कोणाक खबर म्हजी, काय म्हजे श्रीमंतीची.

प्रेम – म्हणजे ?

रिया – प्रेम, हांवे तूकां केन्नाच सांगूंक ना, आयज सांगतां. हांवें एका गिरेस्त घरण्यान जन्माक आयलां म्हज्या आवयचें तर हांवें तोंडूच पळोंक ना आणि बापूयः तो तर हांव चार वर्साचें आसतना एका दुर्येसान गेलो

मरचे पयलीं ताणे आपली सगळी इस्टेट म्हज्या नावार केली. ल्हानपणापासून आवय बापायचो मोग नशिबान नशिल्लो. पूण ती उणिव म्हजे आजयेन आनी काकान पूराय केली. हांव १८ वर्साचें जायना तोमेरेन आमची सगळी इस्टेट काकाच्या सुवादीन आसा. हांव १८ वर्साचें जाले म्हण्टकच सगलें म्हजेंच. हें सगलें अनिकेताक खबर आसूं येता.

प्रेम – किद्या वेल्यान?

रिया – आमी आतांच न्हय तर शाळेंत आसतनासावन एकठाय शिकत आयल्यां. म्हजे घरची म्हायती ताका आसूंकूच जाय.

प्रेम – ताच्या मनासारके जावंक ना जाल्यार... म्हाका सोड पूण तो तुकां...

रिया – अच्छा. अच्छा! म्हणजे तू म्हजोखातीर,,, (प्रेमाचो हात धरुन ) तो म्हजें कायच वायट करुंक शकना. (संकल्प, अनिकेत,आश्विन, बाळू येता. दोघांकूय पळयत.)

अनिकेत – प्रेमऽऽ (प्रेम रियाचो हात सोडटा) तुकां याद आसा हांवे किदें सांगिल्ले?

रिया – किदें सांगिल्ले?

अनिकेत – हांव तुजेकडे उलयना.

रिया – तुका उलोवचें पडटलें. कोण समजता तूं स्वत:क. तुका किदें दिसता हांव तूजें जातले. My foot.

संकल्प – हें पळय....

रिया – You Shut Up. हे पळय अनिकेत तुजे सपन केन्नाच पुराय जावचें ना.

संकल्प – किद्याक जावचें ना तें आमी पळयतां. हांव अनिकेताच्या मोगाच्या आड स्या प्रेम चोप्राक केन्नाच योवपाक दिवचो ना.

अनिकेत – आजून वेळ आसा सुदर.

प्रेम – किदें करत,लो मारतलो. मार, मार.

अनिकेत – अे ऽ ऽ (मुठ उबारता पूण प्रेम आडयता. हळू–हळू काळोख जाता.)

(वर्गान अनिकेत, आश्विन, संकल्प बसला, संकल्प सिगरेट ओडटा. बाळू बोटा दामीत पत्सये मारता.)

बाळू – संकल्प, आमी हे बलें कलूंक ना.

संकल्प – किदें बरें करुंकना.

बाळू – प्लेमाक आमी मालूंक जाय नाशलो. म्हजी आई शदोच शांगताली...

संकल्प – (रागान पळयत) तुजो बापूय तुकां केन्नाच कांयच सांग नासलो?

बाळू – ना, निमानोमेलेन ताने म्हाकां किलेंच शांगूंक ना.

संकल्प – किद्याक?

बाळू – मोनो आशलो बाबलो.

संकल्प – तुजो बापूय गेलो आनी तुकां आमकां त्रास करुंक सोडलो.

बाळू – म्हज्या बापायक कांयच म्हुनू नाकां आं. म्हज्या बापायन म्हाकां मालामाली शिकोंक नाशिल्ली.

संकल्प – म्हणजे तुवेंन प्रेमाचेर हात उबारुंक ना तर?

बाळू – ना.

संकल्प – किद्याक बंडलां मारता.

बाळू – हांवें खल्यानीच प्लेमाचेल हात उबालुंक ना. हात तुमी उबालला. हांवे फकत खोंत माल्ल्या. (रिया येता.)

रिया – अनिकेत (अनिकेत उठोन उबो रावता. रिया रागान पळयत रावता आणि थापट मारता.) तूं इतलो निर्ल्लज आसतलो हाची कल्पना नाशिल्ली म्हांकां. तुंका किदें दिसता मारामारी केली म्हणजे प्रेम म्हजेकडल्यान पैस वतलो. हांव फकत प्रेमाचें आनी प्रेमाचेंच उरतलें. तेन्ना तूं हारलो, इतले करुनूय तूं हारलो.

अनिकेत – हांवे प्रेमाक मारुंक ना.

रिया – कोणांक सांगता तूं हें. त्या दिसालेगीत तुवे ताका मारपाचो यत्न केल्लो तुजेवांगडा आनीक कोण–कोण आसा तेय जाणा हांव.

संकल्प – आमी किद्याक मारतले ताका?

रिया – कारण तुमकां नाका आसलो तो म्हजेलागी उलयल्लो. पूण एक लक्षान दवरात हें रिया प्रेमाच्या मोगान ल्हानपणापासून आसा. तुमी आमकां पैस करुंक शकनात. खरें म्हळ्यार तो तुमकां सगळ्यांक मारुंक शकतालो. पूण तो तूमचेवरी न्हय. ताका कॉलेजींत मारामारी जाल्ली आवडना. तो ओगी रावलो आसत पूण हांव तुमकां ओगी रावचें ना.

तुमकां सगळ्यांक शिक्षा मेळटलीच. (रिया वता.)

**आश्विन** – अनिकेत आतां मेले आमी. आता प्रेमान जर आमचें नाव सांगलें आनी ही गजाल जर प्रिंसीपॉलाक कळली जाल्यार जालें. सोमते Restricate.

**अनिकेत** – फुडलें, फुडें पळोवया.

**संकल्प** – ओगी रावात प्रो. येता. (प्रो. येता)

**बाळू** – (भियोन) Good Morning Sir. (संकल्प फाटल्यान खॉट मारता) Sorry Sir, Good Evening Sir.

**प्रो** – Good Evening. तुमी हांगांच. हॉस्पीटलांत वचूंक ना. प्रेमाक मेळपाक?

**संकल्प** – ना सर.

**प्रो** – किद्याक ?

**संकल्प** – सर ताची परिस्थिती आमच्यानी पळोंवंक जावची ना.

**प्रो** – हांव जाणा, कितलेय जाल्यार एका वर्गातले तुमी. भाव भाव कशे.एका भावाक दुसऱ्या भावाची वेदना कशी सहन जातली?

**अनिकेत** – सर, तुमी वचून आयले?

**प्रो.** – हय, थंयच्यानूच तर आयलां.

**आश्विन** – सर आता कसो आसा तो.

**प्रो** – आता आसा बरो, कांयच कळना असो कसो पडलो.

**अनिकेत** – पडलो? म्हणजे...

**प्रो.** – तुमका खबर ना तर कशें जालां तें?

**अनिकेत** – ना... म्हणजे सारके कळूं ना.

**प्रो.** – कॉलेजीच्या दारान Bike घेवन पडलो तो.

**अनिकेत** – अशें कोण म्हणटा?

**प्रो.** – कोणेय किद्याक म्हणपाक जाय. ताणेच सांगलां.

**सगळे** – किदें?

**संकल्प** – सर, ताणे आपूण पडलो म्हण सांगला?

**प्रो.** – हय अशें तो म्हणटा पूण रिया मात आपलो हट्ट धरुन आसा तें म्हणटा प्रेम पडूंक ना तर ताका मारला.तुमका किदें दिसता?

**अनिकेत** – खऱ्यानीच पडला आसतलो ताका कोण किद्याक मारतलो?

**प्रो.** – म्हाकांय तशेंच दिसता, ताका कोण किद्याक मारतलो. Anyway आयज आमी लेक्चर घेवचे न्ही म्हजी तकली बरी ना.

**अनिकेत** – OK Sir (प्रो. वयता.)

**आश्विन** – Ya... Hu... सुटले S S संकल्प आतां भंय ना आमकां.

**संकल्प** – म्हाकां दिसता आमी हें बरें करुंक ना.

**अनिकेत** – अशें तूं म्हणटा?

**संकल्प** – किद्याक म्हाका मन ना? तुमकां दिसना आमचे कडल्यान पाप घडलां शें. ताच्यान जाय जाल्यार आमची नावां सांगूंक जाताली. पूण ताणें तशें करुंक ना. ताचें मन साफ आसा.

**अनिकेत** – काय ना. नाटकां केल्यां आसतलीं. तो किद्याक म्हणून वोगी रावतलो. आमचेलागीं ताचें किदें बरेंपण आसा म्हणून वोगी रावतलो.

**संकल्प** – ना अनिकेत आमी ताका पारखुंक चुकले.

**अनिकेत** – पारखुंक चुकले ? आरे म्हज्या रियाचेर...

**संकल्प** – (तापोन) Shut Up. अनिकेत, खंयचें तुजें रिया. अनिकेत ताळी एका हातान वाजना. तूं ताचेर मोग करता आसतलो. पूण तें तुजेंर करीना. तुजो मोग तुज्यापुरतोच आसा. This is one sided love.

**अनिकेत** – हांव both sided करुन दाखयतलों. हांव म्हज्या मोगाक हारुंक दिवचों ना.

**संकल्प** – अनिकेत मात्सो विचार कर आनी पळय.

**अनिकेत** – म्हाका मातलेगीत विचार करपाचो ना.

**आश्विन** – अनिकेत, म्हाकांय दिसता संकल्प सांगता तें खरें. सोडून दी हट्ट.

**अनिकेत** – तू लेगीत?

**बाळू** – अनिकेत, म्हजी आई शदांच शांगताली मनशान मोगान त्याग कलपाक शिकूंक जाय. लिया तुकां न्ही प्नेमाक लायक कल्ता. मागील ताचे खोशयेखातील तूं स्वताच्या मोगाचो त्याग किद्याक कलिना?

**अनिकेत** – म्हाका तुमचें कांयच आयकपाचें ना आनी म्हाकां तुमची गरजूय ना.

**संकल्प** – आरे पूण आयकून तरी घे.

**अनिकेत** – कांयच आयकपाचें ना म्हाकां. आतां हांव किदें तें एकलोच करतलो.

(वतां)

**आश्विन** - अनिकेत आयक.... (सगले फाटल्यान वता, ल्हवू-ल्हवू काळोख. ) (उजवाड जाता, प्रेम आणि रिया वर्गान बसल्या,प्रेमाक तकलेक पट्टी आसा.)

**रिया** - म्हाकां हे आवडलें ना तुजें.

**प्रेम** - किदें?

**रिया** - किद्याक तूवें ताचें नाव सांगूक ना?

**प्रेम** - Come on Riya अेकेच कॉलेजीतले आमी. दुस्मानपणा किद्याक म्हणून करपाची आनी तांकां आपले चुकीचेर केन्ना तरी पश्चताप जातलोच. मनीस केन्नाच वायट नासता रिया, फकत आमी ताका पारखुपाक चुकता, तांचेय खरें मन तुंका एक दिस तरी दिसतलेंच, तेन्ना कळाव करी नासताना तांचो स्विकार कर.

**रिया** - ते केन्नाच सुदारचे ना. हांव तांका भुरगेपणाच्यान वळखतां. तुवें जर सोपूत घालुंक नाशिल्लो जाल्यार हांव...

**प्रेम** - म्हणूनच तर हांवें सोपूत घातिल्लो.

**रिया** - म्हजी तांचेकडेन दुस्मानपणा नाशिल्लीं पूण आतां आसा. म्हजे जिणेंत ते किद्याक नाक रिगयता? हांव म्हाका जाय तांचेकडे उलयतले, मोग करतलें. (विचार करीत उठटा आनी फुडें सरता.) पूण तरीय भय मनात आसाच. कारण म्हजेखातीर ते परत-परत तुकांच सतायतले आनी परत एकदां जर ताणी तसोच वार केलो जाल्यार ... ना... ना... (फाटल्यान प्रेम उठटा आणि रियाच्या फुड्यान वचपाक इतल्यान ताच्या पोटान चाकू. प्रेम किळांच मारता रिया वळटा प्रेमाचे रगत पळोवन किळंच मारता. प्रेम सकल पडटा.) प्रेम, प्रेम किदें जाले तुकां? प्रेम... (रडटा) प्रेम उलय म्हजेलागीं... प्रेम... (प्रेम उलोवंक वता पूण प्राण सोडटा.) नो.. नो.. प्रेम प्लीज उलय किदें तरी उलय Please talk with me Prem प्लीज. (रडटा. अनिकेत घामाघूम जावन येता. प्रेमाक पळोवन परतता. ल्हवू -ल्हवू काळोख जाता.)

(उजवाड जाता. अनिकेत पासयो मारता, खूब भियेला आनी

मदी–मदी तोंडान नाकटां काडटा. संकल्प, आश्विन,बाळू धावत येता.)

**संकल्प** – अनिकेत, अनिकेत... किदें केलां तुवें?

**अनिकेत** – (भियत) हांवे किदें केला?

**संकल्प** – अनिकेत, तुवें प्रेमाचो खून केलो मारलो तुवें ताका.

**अनिकेत** – ना, ना. हांवे मारुंक ना ताका. खऱ्यानीच हांवे मारुंक ना.

**आश्विन** – (तापोन) तुवें मारुंक ना जाल्यार कोणे मारलो? सगले जाणात तुवेच ताचो खून केला.

**बाळू** – अनिकेत, अनिकेत, हें किलें केलें तुवें.

**अनिकेत** – बाळू हांवे कांयच करुंक ना. म्हजेर विस्वास दवरात तुमी, संकल्प. संकल्प खऱ्यानीच हांवें मारुंक ना ताका.

**संकल्प** – Shut Up. अनिकेत तुका प्युनान वर्गाभायर पळयला. तुज्या हातान चाकू आसलो. चाकू हातात धरुन तूं धावत ह्या वर्गाकडे येतना तांणे तुकां पळयलो.

**अनिकेत** – किदें? ताणे पळयलो म्हाकां?

**संकल्प** – तुका सांगलेलें हांवें....

**अनिकेत** – हांवे खऱ्यानीच खून करुंक ना.

**संकल्प** – तूं परत परत तेच सांगता. तुवे मारुंक ना जाल्यार कोणे मारलो?

**अनिकेत** – हांव नकळो.

**संकल्प** – चाकू कोणाच्या हातात आसलो? हांगा कोण आयिल्लो?

**अनिकेत** – हय हें खरें की म्हजे बगर हांगां आनी कोण नाशिल्लो . म्हज्या हातांत चाकू आशिल्लो, पूण हांवें प्रेमाक मारुंक ना. तो चाकू हांवे शेवटून मारुंक ना.

**आश्विन** – तुवेंन मारुंक ना जाल्यार ताका चाकू लागलो खंयचो? वाऱ्यावेल्यान आयलो?

**अनिकेत** – तुमकां कशें पटोवन दींव तेंच कळना.

**आश्विन** – काय गरज ना पटोवन दिवपाची. तुजे इश्टागतीन आमचो विश्वासघत केला.

**अनिकेत** – प्लीज अशें म्हणू नाकांत. हांवें खऱ्यानीच कांय करुंकना, हांव खुनी

न्ही. हांवखुनी न्ही. (रडटा. प्रो. येता.)

**प्रो** – अनिकेत

**अनिकेत** – (पाय धरता) सर ऽ सर ऽ म्हाका वाटयात. हांवे खऱ्यानीच मारुक ना ताका. हांव खुनी न्ही.

**प्रो** – अनिकेत हांव कांयच करुंक शकना. फींगर प्रिंटाचो रीर्पोट आयला त्या चाकवाचेर तुज्याच बोटाचे दाग आसात.

**अनिकेत** – किदें ?

**प्रो** – हय, अनिकेत त्या चाकवाचेर तूजींच बोटां आसात.

**संकल्प** – अनिकेत आतां तरी सांग किद्याक केलो तुवें ताचो खून. रियाखातीर?

**अनिकेत** – हांव रियाचेर मोग करतां पूण प्रेमाचेर हांव रागार नासलो. म्हाका ताचेकडे कसलेच वायटपण नाशिल्लें. हें खरें, की काय वेळाखातीर म्हजे रगत गरम जालें आनी त्या नेटान हांवे हातान चाकू धरलो.

**प्रो** – फुडें?

**अनिकेत** – फुडें... फुडें... चाकू घेवन वर्गाभायर आयलो. प्रेम आणि रिया दोगाय वर्गान बसलेलीं. म्हजें रगत सळसळले.म्हाका रावूंक जायना जाले.

**संकल्प** – फुडे...

**अनिकेत** – चाकू शेवटून मारपाची हांवे तयारी केली पूण म्हज्या हातान आणि मनान म्हाका साथ दिली ना. विचार आयलो की किद्याक हांव रियाचे खोशये आड येतां, किद्याक म्हणून तांच्या मोगाची दोरी तोडटां,
विचार करता आसतना म्हजे हातूय कडकडपाक लागले. आनी म्हज्या हातातलो चाकू सकल पडलो. हांव आनींक थंय रावूंक ना. थंयच्यान पळटां आसतनाच म्हाकां रियाची किळांच आयकुपाक आयली,
हांव परत तेच वटेन धावलों. पळयतां जाल्यार किदें प्रेम रगतान भरिल्लो आनी रिया ताका वेंगेन घेवन रडटाले.

**प्रो** – जर चाकू तूवेन थंयच उडयलो जाल्यार त्याच चाकवान प्रेमाचो खुन कसो जालो?

**अनिकेत** – म्हाकां दिसता त्यावेळार आनी कोण तरी म्हांका फॉलो करतालो आनी ताणेच तो चाकू प्रेमाचेर मारला आसतलो.

प्रो – प्युनान तुकां पळयला आनी ताका पळोंवक ना ?

अनिकेत – म्हांका दिसता....

प्रो – हे पळय अनिकेत तूं किदें सांगपाक सोदता तें तुकांच खबर ना. I feel sorry about you. आता time waste करुं नाकां. तुकां भायर पोलीस आनी प्रिसिंपॉल रावला.

अनिकेत – पूण... सर... हांवे....

प्रो – प्लीज अनिकेत, Please Come with me. (प्रो. वता.)

बाळू – (रडत) अनिकेत.

अनिकेत – तुमी म्हाका ल्हानपणापासून वळखता. तुमका खरेंच दिसता हांव खुनी, जाल्यार म्हाकां तुमचो फ्रेंड मानू नकात. (वयता.)

संकल्प – आश्विन, एकवेळ अनिकेताचे आमी खरें धरल्यार.

आश्विन – किदें खरें धरतले आनी कशें धरतले. तो म्हणटा आपूण चाकू थंयच उडोवन आयलो तशें जाल्यार त्याच चाकवान प्रेमाचो खून कसो ज.लो आनी त्या चाकवाचेर ताच्यो फींगर प्रिंटस् कशो आयल्यो ?

संकल्प – पूण घडये त्या वेळार थंय पयलीसावूनच आनीक कोणूय रावलेलो जाल्यार जाचेर प्युनाचीलेगीत नदर पडूंक ना. (उदय येता.)

उदय – हॅलो आश्विन.

आश्विन – आरे! उदय तूं ?

उदय – (एकमेकाक हात दित) How are You?

आश्विन – Fine, तूं खंय हांगा.

उदय – कॉलेजीनूंच आयिल्लो. स्टाफ रुम सोदतालो तेन्नाच भायल्यान तुकां पळयलो. तूं हे कॉलेजींत?

आश्विन – हय. हे म्हजे क्लासमेटस्. संकल्प. बाळू आनी (उदयाकडे बोट दाखयत)हो उदय.(हात दिता) कला अकादमीच्या नाट्यसर्तीक एकदा आमी वांगडा एकेच संस्थेन काम केल्लें.

संकल्प – तुजें स्टाफ रुमान किदें काम आसा?

उदय – हांव म्हज्या डॅडीक मेळूंक आयलां.

आश्विन – डॅडी ?

उदय – हय. म्हजो डॅडी हेच कॉलेजींत प्रोफेसर आस

आश्विन – तुवें केन्ना सांगूक ना म्हांका.

उदय – ओंदूच Joint जाला. पूण हांगा आयल्ल्याक ते एकदांय घरा येवंक ना आनी फोनूय करुंक ना म्हूणून म्हटले आमीच खबर घेवया.

संकल्प – नाव किदें तुज्या डॅडीचें?

उदय – प्रो. नाडकर्णी.

आश्विन – किदें? प्रो. नाडकर्णी तुजो डॅडी?तशें जाल्यार नशिबवान तूं. प्रो. नाडकर्णी सारको तुकां डॅडी मेळ्ळो.

उदय – म्हणजे?

संकल्प – प्रो. नाडकर्णी सारको सर आमी पळोवंक ना. स्टुडंटांक ते आपले भुरगे समजता. सगल्यांक तांचे कोओप्रेशन मेळटा. आमी सगले तांकां खूब रिस्पेक्ट दितात.

आश्विन – आनी उदय, आमची कांय वादिवपणां तुज्या डॅडीनूच बंद उडयल्या. तुकां आमी स्वत: तांचेलागी व्हरतात. (प्रो. येता.)

प्रो. – संकल्प, आश्विन, बाळू तुमकां तीगांकूय प्रिंसिपॉलाच्या कॅबीनांत वचचे पडटले. तुमकां प्रिसिंपॉल कांय प्रस्न विचारतलो. तांच्यो जापो दियात आनी येयात.

संकल्प – (उदयाकडे बोट दाखयता) सर ... तुम...

प्रो – (वााक्य तोडीत) आनी हे पळयात हें कॉलेजींत किदें घडटा, किदें चलता तें तुमचे भितरुच दवरात.

संकल्प – Yes Sir. (उदयाकडे बोट दाखयत) सर तुमचो...

प्रो – (वाक्य तोडीत) Come on go now. (तिगूय वता) तूं हे कॉलीजींतलो?

उदय – नो सर, हांव GMCचो स्टुडंट.

प्रो – Medical, Very Good .so you will become a doctor.

उदय – Yes sir.

प्रो – ह्या तिगांपैकी तुजो फ्रेंड कोण?

उदय – तसो फ्रेंड फकत आश्विन आशिल्लो. पूण आतां सगले जाले.

प्रो – (हासता) Just wait for some time, आमचें कॉलेजींत मात्सो एक

प्रॉब्लेम जाला म्हणून तांकां प्रिसिंपॉलान आपयल्यात.

उदय – प्रॉब्लेम?

प्रो – हय, सुरवातीपासुनूच खूब किदें घडत आयलां.

उदय – तेखातीर डॅडीक अेकदाय येवंक मेळूंक ना दिसता.

प्रो – डॅडी?

उदय – Sir, my father is teaching here.

प्रो – Really who is he?.

उदय – प्रो. नाडकर्णी

प्रो – What?

उदय – हांगा जॉयंट जाल्ल्याक तांणी Contact करुंक नासलो म्हणून हांव खबर घेवपाक आयलो.

प्रो – OK... OK... I'll ... I'll send him. You wait here only. (प्रो गडबडटा आनी वता. तिगुय येता.)

आश्विन – सॉरी उदय, तुकां रावचो पडलो.

उदय – No it's OK. हांगाची परिस्थिती समजल्या म्हाका.

संकल्प – आता खंय? डायरेक्ट घरा?

उदय – घरा? आजून डॅडीक खंय मेळ्ळा हांव.

संकल्प – आत्ताच तर सर आयिल्लो.

उदय – कोण सर?

संकल्प – तुजो डॅडी. प्रो. नाडकर्णी.

उदय – ह्या सराचें नाव प्रो. नाडकर्णी?

आश्विन – हय हेच तर प्रो. नाडकर्णी.

उदय – पूण हे म्हजे डॅडी न्ही.

सगळे – What?

(हळू – हळू काळोख जाता.)

(रिया वर्गात पयल्या बाकार तकली सकल घालून बसलां. एक व्यक्ति ताचो चेहरो धापलेलो आसा हातान सूरी घेवन रियाच्या फाटल्यान ल्हवू–ल्हवू येता. इतल्यान इन्स्पेक्टर ताचेर झडप घालता आनी सगलेजाण

ताका घट धरता. आवाज आयकताच रिया किळांच मारीत उठटा.)

रिया - किदें ... किदें जालां... इन्स्पेक्टर.

इन्स्पेक्टर - (थापट मारुन ते व्यक्तिक उडयता) हो तुकां मारपाक आयिल्लो.

रिया - किदें? कोण... हो... आनी... म्हाका...

इन्स्पेक्टर - आतांच सगले पितळ उक्ते जातलें (इन्स्पेक्टर ताच्या तोंडावेलो कपडो काडटा.)

रिया - सर तुमी?

संकल्प - रिया, सर म्हणू नाकां. हो आमचो सर न्ही.

रिया - म्हणजे?

संकल्प - हो प्रो.. नाडकर्णी न्हय. खरो प्रो. हे कॉलेजींत पावुकूंच ना.

रिया - किदें ? मागीर खरो प्रो. खंय आसा?

इन्स्पेक्टर - खऱ्या प्रो. नाडकर्णीचो खून जाला. आनी हाणेच प्रो. नाडकर्णीचो खून केला. आनी ताच्या नावान हे कॉलेजींत आयला.

रिया - पूण हें सगले किद्याखातीर? आनी म्हजेकडे हांची कसली दुस्मानकाय?

इन्स्पेक्टर - आतां हें सगलें तो स्वताच सांगतलो.(इन्स्पेक्टर गॉलाक धरुन उबो करता.) सांग कोण तूं? सांग प्रोफेसराचो खून तूवेंन किद्याक केलो आनी रियाचेर तूं वार किद्याक करुंक सोदतालो?(मारत) उलय... (प्रो. ल्हवू–ल्हवू आपले खाड काटडा. )

रिया - काका? तुमी... ?

सगळे - काका ?

रिया - काका तुमी... आनी हें सगलें...

काका - चूप, काका म्हणूं नाका म्हाकां. हांव काका न्हय. दुस्मान तुजो.

रिया - दुस्मान? काका... काका... तुमी अशें किद्याक म्हणटा.

काका - तुज्या बापायन मरचे पयली सगली इस्टेट तुज्या नावार केली आनी म्हाकां, स्वताच्या सख्ख्या भावाक भिकारी कसो फकत म्हयन्याचे धा हजार?

रिया - पूण काका सगले तुमचेंच तर आसा.

काका - हय. म्हजेंच, पूण फकत १८ वर्साखातीर. १८ वर्साउपरांत. सगली इस्टेट

तुजी आणि म्हाकां म्हयन्याचे फकत धा हजार. म्हाकां हे सगलें जाल्लें नाका आशिल्लें. जे कंपनीक हांवे हातभार लायलो ती कंपनी म्हाका म्हज्या नावार जाल्ली जाय आशिल्ली. पूण म्हज्या मार्गांत तूं आड आयलें तेन्नाच हांवें थारायलें की तुकां हांव १८वे वरस पळोवंकूच दिवचों ना. पूण म्हजे यत्न सदांच फसले. बंगल्यार सदांच तुजी आजी आड येताली आनी भायर म्हजें नशिब. तूं इश्कोलान आसतना हांवे तुकां किडनॅप करुन मारपाचो यत्न केलो, पूण फसलो, सगले यत्न म्हजे फुकट गेलें तुकां मारपाचो चान्स मेळटालो पूण सफल जाय नासलो. दिस वचत रावले तूं शाळेतले, इश्कोलान, इश्कोलातले कॉलेजींत पावलें. आनी तूजे आज्जेन तुका हॉस्टेलान दवरपाचे थारायले तेन्ना तर सगल्यो वाटो म्हाकां बंद दिसल्यो. हांव पिसो जावपाक पावलो. म्हजें सपन म्हाकां भंगता शें दिसलें आनी तेन्नाच एक खबर कळ्ळी आनी तेणें म्हजेभितर नवी आशा निर्माण केली.

**इन्स्पेक्टर** – कसली खबर?

**काका** – खबर ही की हे कॉलेजींत नवो प्रो. येता. हांवें तेन्नाच थारायलें हांव त्या प्रोफेसराक कॉलेजींत पावूंक दिवचो ना आनी हांवें कांय साथीदार घेवन प्रो. नाडकर्णीक वाटेर आडायलो आणि जितो मारलो. अपॉइंटमेंट लेटरासकट हांवे सगले डॉक्युमेंट्स ताचेकडले घेतले ताचेवरीच भेस चडयलो. खाड लायलें आनी हे कॉलेजींत प्रो. नाडकर्णी जावन आयलों. हांव स्वत: फिलोसॉफी ग्रॅज्युएट आशिल्ल्या कारणान फिलोसॉफी शिकोवपाक म्हांका आडखळ आयली ना. रियासकट सगल्या भुरग्यांचें मन म्हाकां जिखून घेवपाचें आशिल्लें आनी तशेंच जायत गेलें. पूण इतलें करुनय रियाक मारप शक्य जालें ना.

**संकल्प** – आनी प्रेमा ताका कोणे मारलो?

**काका** – ताकाय हांवेंच मारलो.

**रिया** – किदें? काका... काका... तुमी प्रेमाक किद्याक मारलो? काका तुमची दुस्मानपणा म्हजेकडे आशिल्ली मागीर तुमी प्रेमाक किद्याक मारलो?

**काका** – हांवे ताका मुद्दाम मारुंक ना. ताणें स्वता जावन आपलें मरण ओडलें

घेतलें. त्या दिसा अनिकेत प्रेमाक मारुंक आयलो पूण अकस्मात ताचो विचार बदललो आणि बोवाळात ताणें तो चाकू थंयच उडयलो. हांवे हेच गोष्टीचो फायदो घेवपाचो थारायलो आणि तोच चाकू रियाबटेन शेवटून मारलो पूण तेन्नाच प्रेमान जागो बदललो आनी रियाक लागपाचो चाकू चुकून प्रेमाक लागलो. म्हजो वार फुकट गेलो.

**संकल्प** – आनी आताचो वार आमी फुकट घालयलो.

**काका** – जेन्ना उदय आपल्या डॅडीक मेळपाक आयलो तेन्नाच म्हाका कळ्ळे की म्हजो खेळ सोपलो. हांवे हांगाच्यान फुज्यो काडपाचें थारायलें. पूण ताचे पयली म्हाकां रियाक काबार करपाचें आशिल्लें आनी म्हणून हांव आतां...

**आश्विन** – निमाणो वार करपाक आयलों पूण उदयान हो प्रो. नाडकर्णी आपलो डॅडी न्हय म्हूण सांगतांच आमकां दुवाब आयलो तेन्नाच आमी इन्स्पेक्टराक ही गजाल सांगली.

**संकल्प** – आनी अशे तरेन तुजो खेळ सोपलो.

**रिया** – काका, म्हाका जर पयली कळील्लें जाल्यार हांव स्वता जावन सगली इस्टेट तुमच्या नावार करपाचें कारण जगातली मोलादिक संपत्ती तर म्हाका देवान दिल्ली. म्हाका एकदांच सांगचे आशिल्लें तुमी काका, म्हाका एकदाच सांगचे आशिल्लें. (रडटा)

**इन्स्पेक्टर** – You are under Arrestt (हाताक बेडी लावता. काका रियाक पळयत रावता.) Thank You boys for co-operation (काकाक व्हरता.)

**संकल्प** – (रिया म्हऱ्यान वचूंन) रिया, We are sorry for everything.

**रिया** – (दोळे पूशीत) NO Please don't actually I am sorry. हांव तुमकां पारखुपाक चुकलें. हांव तुमकां मस्ते भुरगे समजतालें पूण आयज तुमकाच लागून म्हजो जीव वाटवलो आनी प्रेमाचो खुनी सापडलो (अनिकेताच्या फुड्यान वचून) अनिकेत म्हाका माफ कर.

**अनिकेत** – प्लीज रिया चूक मागून म्हाका तूजे नदरेंतल्यान देवोंव नाकां. येतां हांव. (रिया धावत वचून अनिकेताचो हात धरता.)

**रिया** – ना अनिकेत हांव आयज वळखलें तुमकां. प्रेमान एकदां सांगिल्ले जेन्ना

तूं हांचें मन पारखीतलें तेन्ना कळाव करी नासतना तांचो स्वीकार कर. आयजमेरेन तुमी म्हजेखातीर गुंड, मवाली आशिल्लें पूण आयज, हांव तुमका म्हजे इश्ट मानतां.

**संकल्प** – रिया, आयज आमचेमदीं प्रेम ना पूण आमी वचन दितां तुकां आमी तुकां सदाच हांसत दवरतले, प्रेमाचे यादीन तुजी दुकां आमी केन्नाच गळूंक दिवचेना.

(रिया हात फुडें करता. सगले रियाच्या हातार हात दवरता. एकमेकांक पळोवन हांसता. सगळे अनिकेताक पळयता. अनिकेत मान सकयल घालता. रिया ताच्या म्हऱ्यान वचोन खांदार हात दवरता. दोघाय एकमेकाक पळोवन हांसता. बाळू बाकार चडटा. )

**बाळू** – ये ऽ ऽ म्हजी आई शदांच शांगताली....

**सगळे** – चूप....

(ल्हवू – ल्हवू पडदो पडता.)

**समाप्त**



**महेश चंद्रकांत नाईक**

महेश चंद्रकांत नाईक हाचो जल्म पणजे जालो. म्हाविद्यालयांतले जिणेत ताणे लेखनाच्या क्षेत्रांत पावल दवरले. सुरवेच्या काळांत ताणे कविता बरयल्यो.

सुरवेच्या काळांत जरी ताणे कविताच बरयल्यो, तरी ताचो पिंड हो नाटककाराचो आशिल्ल्यान ताचे पावल नकळटांच नाटक बरोवपाकडेन वळें.

जिविताच्या मोडणांचेर ज्यो गजाली नदरेक पडल्यो, दुखदिणे तशेच सुखदिणे अणभव आयले तांकां उतरांच्या रुपान मांडपाचो यत्न केला. ह्या यत्नांतल्यानूच नाट्य निर्मिती जाल्या अशें म्हाकां दिसता.

'ऑल फॉर यू' हें ताचें प्रकाशित जाल्लें दुसरें नाटक. हाचे पयलीं 'ॲक्शन' हें ताचें नाटक प्रकाशित जालां, जाल्यार 'आय लव्ह यू' हें नाटक प्रकाशनाच्या मार्गार आसा.

समाजांत घडपी घडणुकांचे पडबिंब ताच्या नाटकांत प्रत्येककडे येता. ताच्या नाटकातलीं पात्रांय सदचे जिणेंतलीं आशिल्ल्यान ती जितीं दिसतात.

साहित्याच्या क्षेत्रांत पावल दवरल्याउपरांत थोड्या काळाभितर ताणे जें योगदान दिलां तें तोखणाय करपासारकें आसा. फुडाराक ताच्या हातसून कसाक लागपी साहित्य निर्मणी जातली अशी आस्त बाळगुपाक कसलीच हरकत ना!

**नीलेश बुगडे**